


जानेवारी 2008

# सॅझ खोऽले।
# एक परिपक्व राजकी निर्णय



## देविदास रामचंद्र कदम
# लोकवेदाचे बुन्यादीवेलो सर्जनशील साहित्यिक

# तुमची जागृताय







## गोंयात आमकां सुरक्षित दवरूंक शकता !





- अनवळखी वस्तूक हात लावंक नाकात.
- तुमचे घर भाड्याक दिवचे पयलीं इत्सूक भाडेकरूची विश्वासार्हता तपासात.
- तुमचे वाहान विकच्यापयलीं खरेदीदाराची विश्वासार्हता तपासात.

भौशीक जाग्यार वा भौशीक वाहनात पडून आशिल्ली कसलीय अनवळखी वस्तू तुमकां दिसल्यार उपकार करून पोलीसांक कळयात, जी स्फोटकां आसूं येता. तशेंच तुमचो निवास वा वेपारी मालमत्ता भाड्याक दिवचे पयली जागरूक रावात आनी नियोजीत भाडेकरूंच्या सज्जनतेविशीं खात्री करात. तशेंच ताच्या तपशीलाची छाननी करात. तेचप्रमाण तुमची सारासार बुध्दी वापरून तुमचे वाहात विकच्यापयलीं खरेदी करप्याची विवासार्हता तपासात.

संकेत थळ : www.goapolice.org
ईमेल : goapol@sancharnet.in

तात्काळ पोलीस
मदतीखातीर १०० डायल करात

एसपीसीआर पणजी : २४२८४००
डीपीसीआर मडगांव : २७१४४५०

तुमी देगेच्या पोलीस स्टेशनाकडेन लेगीत
संपर्क सादूंक शकतात.



# गोंय पोलीस

तुमचेखातीर सदांच तुमचे वांगडा

**सादूर रावात - नदर दवरात - सुरक्षित रावात**

वर्स : ७ अंक १

जानेवारी २००८

मोल १० रुपया

मुखेल संपादक

दिलीप बोरकार

मुद्रक आनी प्रकाशक

दिलीप बोरकार

छापणावळ

सह्याद्री ऑफसेट, खोर्ली-तिसवाडी

मार्केटींग व्यवस्थापन

कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ

श्वेता नाईक

वर्गणीचे दर

वर्सुकी २०० रु. / तीन वर्सां ५५० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक 'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो

संपादकीय पत्रव्हाराचो पत्तो

जी.एस.बी.-३, हाऊसिंग बोर्ड कॉलनी,
पोस्ट आल्त-पर्वरी,
आल्त बेती - ४०३ ५२१
दूरध्वनी : (०८३२) २४११५९४
E-mail : bimbkonkani@yahoo.com
bimbkonkani@zapak.com





कोंकणी मासिक
# बिम्ब




**सँझ.....**
**कसलें राजकारण?**
**रिअल इस्टेटीचें**
**काय गोंय सोंपोवपाचें?**

(५) – दिलीप बोरकार

# सॅझ खो ऽऽ ले!
# एक परिपक्व राजकी निर्णय...!

नवें वर्स २००८चे पुर्वसंध्येर मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हाणी सगळे सॅझ खोऽऽले करून पुराय गोंयकारांक, नव्या वर्साची गोंयच्या परजळीत फुडाराची एक प्रकारची भेटच दिल्या म्हणूंक जाय.

पुराय गोंय नव्या वर्साच्या येवकाराक उबें आसतनाच खासा आर्थिक विभागाचो म्हारू आनी ताका बेल्यांत भरून सासणाचो पुरून उडोवपा खातीर खर आंदोलन हाचें ओजेंय तांचे तकलेर आशिल्लें. सॅझाचें कितें जातलें? सरकार रद्द करतलो काय जिवाचें रान करून गोंयांत खर आंदोलन उबें करचें पडटलें? ह्या आंदोलनात कितें उरतलें आनी कितें ना नपयत जातलें? ह्या सारक्या साबार प्रस्नानी गोंयकार हुसक्यांत पडिल्लो. हे सगळे हुसके माथ्यार घेवन तांकां नव्या वर्साक येवकार दिवपाचो आशिल्लो. नवें वर्स येतनाच एका खर आंदोलनाक आरंब जावपाचो आशिल्लो.

पूण नवें वर्स मनोवंक जागे राविल्ल्या जागृत गोंयकारांक तेच रातीकडेन खबर कळ्ळी सरकारान सगळे सॅझ रद्द केले. सॅझांची अधिसुचोवणी रद्द करतले.बातमी गोंयभर पातळ्ळी. गोंयकारांक नव्या वर्साचे खुशालकायेंत दोट्टी भर पडली. मुखार येवन उबें राविल्लें आंदोलन ना जालें हाचेंच तांकां समादान आशिल्लें.

आजमेरेन सरकाराचो गोंय विरोधी खंयचोय निर्णय आंदोलना बगर रद्द जाल्लो ना. स्वाभिमानी, जागृत गोंयकारानी खर चळवळ उबारून, मोड-तोड केल्या उप्रांतूच सरकारान मारथें घेतिल्लें आसा. हे आदल्या सगळ्या मुखेलमंत्र्यांनी सगळ्यो चळवळी म्हळ्यार व्यक्तीगत 'इगो' मानून केन्नाच सकारात्मक नदरेन ताचेर विचार करूंक नाशिल्लो. तेच पासत जबाबदार, शिक्षित नागरिकांक चळवळीच्या वेळार केन्ना-केन्नाय हिंसक बळाचो वापर करचो पडला. आपूण आपलीच रासवळ संपत नश्ट करता हाचें भान आसून लेगीत करचें पडलां. तें सगळें जाल्या उप्रांतूच सरकारान मागण्यो मान्य केल्ल्यो आसात.

सॅझाचें लावापरस लुकसाण चड आसा हें सॅझ विरोधी चळवळींतल्या लोकांनी पटोवन दिल्लें आसा. ताचेर बारीकसाणीन विचार करून, चळवळींतल्या कार्यकर्त्यांक आनी फुडाऱ्यांक आपोवन हाडून भासाभास करून सॅझ रद्द करपाचो निर्णय मुखेलमंत्र्यानी घेतलो तो बेस बरो जालो. नातर नव्या वर्सा सरकाराक एका खर आंदोलनाक तोंड दिवचें पडपाचें.

सॅझ रद्द करपाचो निर्णय तसो सामको खोसयेन जाला अशें कोणाच्यान म्हणूंक जावचेंना. राणे मुखेलमंत्री आशिल्ले जाल्यार सात-आठ दीस बंद पाळप, उजो घालप असल्यो गजाली घडल्या बगर कांयच जावपाचें नाशिल्लें. कित्याक ह्या सॅझ प्रकरणांत, जमीन खरेदी - विक्री प्रकरणांत खूप जाणाचे हात घुस्पल्ले आसात. तातुंतले कांय जाण सरकारांत आसात हेंय लोक उयतात. जर सॅझ रद्द केलो जाल्यार जाणी जाणी दुडू घेतल्यात तांकां ते परत करचो पडपाचो. तें चुकोवंक राजकी नेतृत्वात बदल लेगीत घडोवन हाडपाची तयारी आसता.

हें इतलेंय घडटा आसतनाच आपली राजकीय परिपक्वता वापरून मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हाणीं कळाव लायनासतना दिल्ले मुजती आदींच निर्णय दिवन आनी तोय आम आदमीक



मानवता तसलो दिवन गोंयच्या हिताचोच विचार केल्लो आसा. हाच्या आदल्या मुखेलमंत्र्यांवरीं ताणीं तोडफोड जावपाची वाट पळयलीना, फुडाऱ्यांक दुखोवपाचें चिंतूंक ना. सॅझाक खोऽऽले करप हातुंतूच गोंयचें हीत आसा हें जाणून घेवन चवन जावचे आदींच फेरीद पेकयल्लें आसा. हें जर घडूंक नाशिल्लें जाल्यार आमचे सारके कांय जाण वाळवंटातलें मृगजळ मानून मुखेलमंत्र्यां कडेन पळयतात तांकांय सरकारा आड आंदोलनात उडी घेवची पडपाचें.

ह्या सगळ्या भानगडींतल्यान सरकारान एक गजाल मतींत धरपाची गरज आसा. गोंयकार अजून थतर-वितर जावंक नांत. गोंयच्या हिताआड जे कितें निर्णय खंयचेंय सरकार घेता तेन्ना गोंयकार एकसंघ त्या निर्णयाआड उबो रावतलो. पूण रासवळ संपत्तीची इबाड जावंक फावना देखून खंयचोय प्रकल्प हाडचे आदीं ताचे लाव-लुकसाण आम आदमी मुखार येवंक जाय. दिगंबर कामतींकडें मुखेलमंत्री म्हूण ती परिपक्वता आनी गांभिर्य आसा. ताचीच आमच्या सारख्यांक अपेक्षा आसा.

# उत्तम निर्मितीमुल्य आशिल्लो अंक

मुखेल संपादक,

म्हजो इश्ट श्री. समीर सांठये (पत्रकार) हाणें म्हाका 'बिम्ब - २००७' दिवाळी अंक भेट म्हूण धाडलो. तो पळोवन आनी वाचून हांव अजाप जालों. कारण कोंकणीत इतलो सोबीत, साहित्यमुल्यां आशिल्लो तशेंच उत्तम निर्मितीमुल्य आशिल्लो असो हो अंक आसा. भितरली सजावट, आरास, चित्रां पूण भोव बरीं आसात. फकत मुखपृश्ठाच्या चित्राचो संदर्भ किंवां अर्थ मात्र म्हाका कळ्ळो ना. आसूं...

कविता सदरांत तुमी मंगळुरी, भटकळी, कोच्ची कोंकणीच्यो कविता पण छापल्यात. ताच्या वयल्यान तुमगेली भुमिका, निकोप आनी सर्वसमावेशक आसा अशें दिसता. तुमगेलें मना पासून अभिनंदन.

म्हजो आणखीन एक इश्ट श्री. महाबळेश्वर सैल हांगेली कादंबरी 'हावठण' ही खूब आवडली. ती तांगेल्या पयल्या सगळ्या साहित्य कृती प्रमाणेच तांगेल्या प्रतिभेन, शब्द भांडारांत आनी जमनींतल्या उपमात काठोकाठ भरल्या. तुमी तांगेल्या कांदबरीचें पुस्तक उजवाडाक हाडटात. हें कळ्ळें.

म्हजो जन्म कारवारा लागीं आशिल्ल्या कडबाड ह्या गांवचो. गेल्या ४५ वर्सां हांव मुंबयत रावतां. म्हजीं मराठी २५ आनी इंग्लीश ३ अशीं पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. आत्मचरित्राचो पयलो खंड 'नोकर नामा' तुमकां भेट म्हण धाडला. ताचो स्विकार करचो. तुमगेलो अभिप्राय कळोवचो.



**– विठ्ठल राय भट**
आंबिवली, ठाणे.




भौ. संपादक,
सप्रेम नमस्कार,

तुमी धाडिल्लो 'बिम्ब' दिवाळी अंक, तसोच डिसेंबर 'बिम्ब' अंक मेळ्ळो, धन्यवाद.

कोंकणी दिवाळी अंका मदी आपणाची वर्सुकी खाशेली परंपरा थेयत अंदुचो दिवाळी अंक बिम्ब पर्जळ्ळो! परबीं.

सबंद वर्सभर म्हयन्याळ्या अंकांची खाशीयत जतन करीत आसा. असो हो खाशेलो बिम्ब अंक. परतून एकदां पर्जळ्ळो.

हातूंत भुरग्यांच्या आंगणा बरोबर नवोदीत तशेच साहित्य मळाचेर व्हडा नामना जोडिल्ल्या म्हालगड्या साहित्यिकांच्या साहित्याचो आसपाव ह्या अंकात जाता, हें ह्या अंकाचें खाशेलें वैशीश्ट.

कादंबऱ्यो, कथा, कविता, ललितलेख, एकांकीका, मुलाखत, भलायकेचे दृष्टीन होमियोपथी, भुरग्यांचें आंगण अश्या विंगड विंगड साहित्यान हो अंक, व्हड तसोच ल्हान वाचकांक लेगीत साहित्याची खमंग अशी पर्वणीच दिता.

रेखाचित्रांचो जाल्यार 'जवाब नही!' अशे म्हळें जाल्यार अतिताय जावची ना. आनी परतून एकदां रंगांची 'बौछार' करीत सजयिल्लें मुखपृश्ठ 'व्वा! क्या लाजवाब है ऐ!!'

अंक उगडिनाच फुडें नदरेन भरपी संपादकीय मुदयेर थीक कशें. परतून 'बिम्ब' मासिकाबरोबर बिम्ब परिवाराक म्हज्या घरच्यां बरोबर इश्टांचींय परबीं.

सगळ्यांक देव बरें करूं.



**– प्रितेश मंगेश परसाई**
देवूळवाडो, हरमल-पेडणे.
मो. : ९८५००९५९५९

### भायलो भितरलो

हांव न्ही परको न्ही भायलो
हांव एक तुजेवरींच कोंकणो
तुजें म्हजें मूळ एक
तुजो म्हजो भुगोल एक
तुजो म्हजो इतिहास एक
तुजी म्हजी भाशा एक
माती एक, संस्कृती एक, लोकवेद एक
हांव अदृश्टान पलतडीं रावतां
तूं नशिबान आलतडीं रावता
इतिहासाची पाडी चूक काय
काय कोणा नतद्रश्टांचें पाडें कर्तुब
हांव भायलो, तूं भितरलो
हांव हेडटां, रडटां तूं थिरावला
मदीं वंय घालून रावला
भायले म्हूण म्हाका हिणसावंक लागला
भावाच्याच तोंडाक काळें लावन पावला

**– मनोहर नायक**
३०९/ए, काजुबाग,
कारवार

# सँझ..... कसलें राजकारण? रिअल इस्टेटीचें काय गोंय सोंपोवपाचें?



- दिलीप बोरकार

१९ डिसेंबर २०११. आमचें माये मोगाचें गोंय, भांगराळें गोंय आपल्या मुक्ती दिनाचो भांगरा उत्सव मनयता. बाबुश मोन्सेरात वो बाबुश डिसौजा मुखेलमंत्री वो मंत्री म्हण गोंयच्या लोकांक मुक्ती दिनाचें म्हत्व, मुक्ती झुंजात वांटो घेतिल्ल्या सुटके झुंजाऱ्यांचो त्याग बी हाचेर भाशण करता... माय ब्रदर्स अॅन्ड सिस्टर्स.... त्या उपरांत जिवे उरिल्ल्या आनी मुक्ती दिनाच्या भांगरा उत्सवाचो सुवाळो पळोवन तृप्त जाल्ल्या सुटके झुंजाऱ्यांचो भोवमान करून तांचे कडल्यान आशिर्वाद घेतात.

पुराय जिवीत आखाती देशांत वो बोटीचेर घालोवन जोडिल्ले जोडीन बांदिल्ले बंगले शर्मा, वर्मा, तलवार, सुरी, पिल्ले, याळगी हांकां भाड्यान दिवन लंडन, पॅरीस हांगा वचून स्थायीक जाल्ले आमचे गोंयकार भाव मुक्ती दिनाच्या भांगरा उत्सवी सुवाळ्या निमतान गोंयकारांक परबीं धाडून दितात.

१९ डिसेंबर १९६१ वर्सा जल्मल्ले ते वेळावेले भुरगे आतां ५० वर्सांचे जाल्यात. सरकारी आनी नीम सरकारी आस्थापनात नोकऱ्यो करतात. मुक्ती दिनाची भौशीक सुटी आशिल्ल्यान घरांत बसून भुरगे-बायलां कडेन गजाली मारतात.

पुर्णानंद च्यारी आपल्यालो भांगराळें गोंय पंगड घेवन कार्यावळ सादर करता. मनोहरबाबाचें 'गोंयच्या म्हज्या गोंयकारांनो जायात जागे' हें गीत धुंद जावन म्हणटा. त्या उप्रांत शिरिश लवंदे, सिध्दनाथ बुयांव बी बाकीबाबाचें 'सात लाख गोंयकार आमी युग नवें फुलयतले.' हें गीत काळजाचे खोलायेन म्हणटात.

आनी हो सगळो सुवाळो गोंयांत चलता हाची मात लेगीत कल्पना गोंयचे भुंयेर आसून लेगीत कांय संस्थानाक नासता. हीं संस्थाना म्हळ्यार रिलायन्स, कोरियन कॉर्पोरेट, टाटा स्टील, महिन्द्रा अॅन्ड महिन्द्रा पेनिन्सुला फार्मा, राजीव गांधी आयटी हॅबीटट, मेडीटॅब स्पेशीअलीटीज

आनी अशींच हेर देश विदेशी संस्थानां.

ह्या सगळ्या संस्थानाक सॅझ म्हळ्यार स्पेशल इकॉनॉमिक झोन म्हळ्यार खाशेलो आर्थिक विभाग ह्या नांवान सरकारान गोंयच्या मुखेल अश्या वाठारांत सवाय भितर शेकड्यांनी हेक्टर जमीन वाटल्या. ह्या सॅझाच्या नांवान ह्या संस्थानिकानी आपलीं संस्थाना तयार केल्यांत आनी हे संस्थानीक आपले परजे वांगडा हातूंत सुखान नंदतात. संस्थानाच्या भोंवतणी तीन-तीन मिटर उंचायेच्यो वणटी उभारिल्ल्यान गोंयच्या मुक्तिदिनाच्या भांगरा उत्सवी सुवाळ्याचीं स्फुर्ती गीतां 'गोंयच्या म्हज्या गोंयकारांनो जायात जागे' त्या वण्टी पलतडीं वचूंक कांचवेतात.

हें सगळें घडपाचें आसा तें जानेवारी २००८च्या पयल्या सप्तकांत मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हाणीं सॅझाक दिल्ली मान्यताय फाटीं घेतली ना जाल्यार.

## सॅझ हो प्रकार कितें?

**आ**मच्या देशांत अशी कितली तरी जमीन पडींग आसा जिचो वापर पिकावळी खातीर जायना. देशाची लोकसंख्या दिसान दीस वाडत आशिल्ल्यान ह्या प्रचंड लोकसंख्येक दिसपट्टो गिरास जोडपा खातीर कसलें ना कसलें काम करचें पडटाच. पावसाळ्याचे चार म्हयने शेत कसपा खातीर सारल्या उप्रांत तांकां दिसवड्या खातीर हेर राज्यांनी वचचें पडटा. तेन्ना असल्या लोकांच्या पोटा पाणयांची वेवस्ता जावची देखून, देशांत ज्यो जमनी पडींग आसात आनी जाचो वापर कसल्याच कामाक जायना त्यो जमनी बहुराष्ट्रीय कंपन्याक खाशेलो आर्थिक विभागांच्या नांवान दिल्यो आनी ह्या जमनीचेर जर ह्या कंपन्यानी उद्येग उबारले जाल्यार थंय लाखानी लोकांक रोजगार मेळून हो बेकारीचो प्रस्न सुटावो जावं येता अशें केंद्र सरकाराक दिशिल्ल्यान हो क्रांतिकारी विचार केंद्र सरकारान राबयलो आनी देशभर सॅझ उबारपाक मान्यताय दिली.

## सॅझ हाडलो कोणे?

**आ**यज गोंयचे सॅझ रद्द करात म्हूण भाजपवाले माथानी साल्दानाक मुखार काडून सरकाराक धपकायतात. अमुकच दिसानी जर सॅझ रद्द केलेनांत जाल्यार गोंयचें नंदीग्राम जातलें, पर्यटकांक धांवडावन घालतले अशें परींकारा सयत हेर सगळे भाजपवाले बोंबलेच्या देंठांतल्यान आड्डत सांगतात.

आयज गोंयच्या भाजपवाल्यांक दुसरो कसलो उद्येग ना. गुजरात आनी हिमाचलाक भाजप सत्तेर आयल्या हे खोशयेन बुडून गोंयांतूय कमळ फुलतलें ह्या सपनांत कितें ना कितें करीत आसतात. राम मंदिर सोपलें, रामसेतू फुस्स जालो. आतां सॅझा आड आड्डत सुटल्यात. सॅझ प्रकल्प जालो तर गोंयचें घट्टाण जातलें हातूंत, दुबाव ना. पूण हो सॅझ जल्माक घालो कोणें हें मात भाजपवाले विसरतात.


माथानी साल्दाना, सॅझ विरोधी कृतीसमीतीचे निमंत्रक.

जेन्ना देशात 'एनडीए' भाजपाचें सरकार आशिल्लें तेन्ना वेपार मंत्रालय सांबाळपी केंद्रीयमंत्री मुरासोली मारन हाणीं ह्या वावराक आरंब केल्लो. उपरांत केंद्रीय वेपारमंत्री कमलनाथ हाणीं 'सॅझ'वेलें विधेयक हाडलें आनी २०००त अस्तित्वात आशिल्ले एफ टी झेडस् आनी ई. पी. झेडस् हांचें रूपांतर सॅझ अशें करून उडयलें. एफ टी झेड आनी ई. पी. झेडस् हातुंतल्यान मेळपी लाबा परस सॅझाक लागून कितलो तरी प्रचंड लाब जावपाचो आसा आनी तीच मोख सरकारान नदरे मुखार दवरून 'सॅझ' विधेयक हाडलें. ताचें कायद्यांत रूपांतर जावंक मातूय कळाव लागलोना वो कोणाचो विरोधय जालो ना. १० मे २००५ दिसा 'सॅझ' विधेयक लोकसभेंत गेलें आनी १२ मे २००५ दिसा राष्ट्रपतींची मंजुरी मेळून 'सॅझ' कायदो अस्तित्वात आयलो. 'सॅझ'चे परिणाम बरे-वायट कितें जातले हाचेर कोणेच विचार करपाची तकालस घेवंक ना.

## सॅझचो फायदो कोणाक!

**प्र**चंड लोकसंख्या आशिल्ल्या भारत देशांतल्या गरीब लोकांक फायदो जावंचो देखून पडींग जमनीचो वापर करपाचें हांयस दाखोवन तयार केल्लो सॅझ म्हळ्यार गोंयचे गरीब जनतेक व्हाऱ्यार उडोवन, तांच्यो सुपीक जमनी हातासून आपलीं संस्थानां निर्माण करपा खातीर भारतीय आनी विदेशी कॉर्पोरेट शक्तींक, भोवराष्ट्रीय देशी-विदेशी कंपनीक सॅझ ही सर्वशक्तीमान सत्ताधीश जावपा खातीर भांगरा संदूच जावन पडली. रासवळ फायद्याच्या नांवान परकी सत्ता गाजोवपी ब्रिटिश सरकारान १८९४ वर्सा ज्या कारणाखातीर जमीन संपादन केल्ली तेच मानसिकतेन आयज स्वतंत्रताये उपरांत सत्ताधीश शेतकार, मजूर

हांकां जमनी भायरे करून कॉर्पोरेटसांक 'सॅझ' उबारूंक जमनी फैदासून दितात.

सप्टेंबर २००६ मेरेन केंद्र सरकारान २६७ सॅझ अर्ज हाता वेगळे केले. तातुंतल्या १५० सॅझांक औपचारीक मान्यताय दिवन उडयली तर ११७ सॅझांक तत्वता मान्यताय दिली. हातूंत मुखेलपणान सहारा, रिलायन्स, युनिटेक, महिन्द्रा अॅन्ड महिन्द्रा आनी हेरांचो आसपाव आसा. केंद्र सरकार आनी राज्य सरकार ह्या सॅझाच्या नांवान ह्या संस्थानिकांक १,४०,००० एकर जमीन दिवपाचे आसात. आनी ही जमीन खंयची तर शेतीप्रधान भारत देशांतल्या, जे शेतकार शेतां पिकोवन आपलें पोट भरतात तांची सुपीक जमीन.


CHIEF MINISTER
GOA

D.O. 205/DITC/Dev/02/3087/825 December 21, 2006

Dear Shri Kamal Nathji,

I am to inform you that six applications as per enclosed list have been received for setting up of Special Economic Zone (SEZ) in the State of Goa.

**आदले मुख्येलमंत्री प्रतापसिंग रावजी राणे हाणी गोंयांत सॅझाक मान्यताय दिवची म्हण केंद्रीय वेपारमंत्री श्री. कमलनाथ हांकां धाडिल्लें पत्र.**

## जमीन बळकावपाचें तंत्र

**का**यद्यान जाका भूसंपादन अशें नांव दिलां तें जमीन बळकावपाचें तंत्र देशभर चल्लां तें पळयत जाल्यार भंय दिसता. सॅझ उबारणेक लागून लाखानी लोकांक रोजगार मेळटलो अशें एक चित्र आयज लोकांमुखार येता. आयज सॅझ खातीर सरकारान जी जमीन संपादन केल्या ते जमनीचेर आपलें पोट भरताले ते सगळे शेतकार आनी मजूर बेकार पडटले तांचो आंकडोच कितलो तरी आसा. ज्या सॅझा खातीर जांची जमीन गेल्या आनी बेकार पडल्यात तांकां आसपावन घेवपा सारकें काम सॅझात आसा हाची खात्री अजून एकाय सॅझवाल्यान दिवंक ना. पूण ह्या सॅझवाल्यांक कसलो फायदो जातलो तेंय चित्र ठळकपणान आयज लोकां सामकार येता.

## गोंयांत सॅझ कसो पावलो?


**सॅझाचो म्हारू गोंयांत हाडपी गोंयचे आदले मुख्येलमंत्री राणे.**

**गों**यांत खाशेलो आर्थिक विभाग आयल्यार गोंयाक आर्थिक नदरेन ताचो भरपूर लाब जातलो. त्या भायर गोंयच्या बेकार लोकांक व्हड प्रमाणात रोजगार फाव जातलो. गोंयची जमीन जी औद्योगीक विकास महामंडळान उण्या दरान गोंयचे जनतेकडल्यान फैदासल्या वो जी खासगी लोकांची जमीन आसा ती उण्या दरांत संपादन करून दीत जाल्यार गोंयांत व्हडल्यो व्हडल्यो कंपनी येवन गोंयच्या लोकांचो फुडार परजळीत करतलो अशें एक सुंदर सपन आदले मुखेलमंत्री प्रतापसिंग रावजी राणे हांकां पडलें. गोंयची संस्कृताय, गोंयचें दायज बी गजालींचें कांयच पडूंक नाशिल्ल्या संवसारीक विचारसरणीच्या राणेंक गोंयची अमेरिका बी करपाची आशिल्ल्यान ताणींच गोंयांत सॅझ हाडूंक फुडाकार घेतलो. डिसेंबर २००६ ह्या दिसा केंद्रीयमंत्री कमलनाथ हांकां पत्र बरोवन गोंयांत सॅझ सुरू जावचे म्हण मान्यताय मागली.

गोंयांत सॅझ सुरू जावंचे म्हूण स प्रस्ताव आयले आनी त्या स य प्रस्तावांचेर राणे सरकारान सकारात्मक विचार करून केंद्रीय वाणिज्य मंत्रालयाचे मान्यताये खातीर ते प्रस्ताव धाडून दिले. आनी तांचेर सकारात्मक निर्णय घेवंचे अशीय पत्रांत विनवणी केली. ह्या प्रस्तावांत रेटेलायन एक्सपोर्ट आनी मॅक्स ग्रोव ह्या दिल्लीच्या तशेंच मुंबयच्या प्लांटवीव मर्कटाईल आनी आयनॉक्स मर्कटाईल हांचो आसपाव आशिल्लो.

## सॅझाचो खरेपणी फायदो कोणाक?

**फा**टलीं ५० वर्सां गोंयचें मीन काडून दिवचल सारक्या वाठाराची दुस्पट करून उडयल्ली आसा. मीनाक लागून कितले तरी दोंगर उध्वस्त जाल्ले आसात. आतां केपें, सांगें, सत्तरी हांचीय गत तीच जायत आसा. हाका लागून गोंयचे कितले तरी गांव, शेतां, कुळागरां, सैमीक जलस्त्रोत, रानां हांचो इबाड जावंक पावला. हाका




**वीज मंत्री आलेक्स सिक्वेरा हे सॅझाचे समर्थक. तांच्या घराचेर मोर्चा व्हरतना सॅझ विरोधक.**

लागून कांय जाणांच्या घरांचेर भांगराचे नळे आयले आनी भौसंख्य गोंयच्या लोकांच्या तोंडांत माती पडली. पोटाची खळगी सदांच उपाशीं आनी पुलमावांत माती वचत राविल्ल्यान टिबी सारकीं दुयेंसां तांच्या वाट्याक आयलीं. हें सगळें जावंक पावलें तें सरकाराच्या आशिर्वादानूच. आतां उरिल्ल्यो जमनी सॅझ नांवाच्या ह्या नव्या अरिश्टाचे भकीक पडत चल्ल्यात.

खाशेलो आर्थिक विभाग असो भायल्यान लेप काडून भितरल्यान रिअल इस्टेट उबारप हो ह्या फाटलो खरो उद्देश्य आसा. रिअल इस्टेट म्हणत जाल्यार ते खातीर गोंयची 'प्रायम लॅन्ड' मेळप शक्य ना. मेळळीय जाल्यार २५/३० हजार रू. चौखण मिटर ह्या दरान मेळटली. पूण गोंयच्या लोकांक रोजगार मेळटलो अशें हांयस दाखोवन सरकाराच्या पालवानूच जर ही जमीन हातासली जाल्यार ती दोन/तीन हजार रूपया चौखण मिटर ह्या दरान मेळटली. थंय मागीर बंगले बांदून विकले जाल्यार ताचेर भरपूर जोड जातली हो ह्या फाटलो खरो उद्देश्य आसा.

हे आदींच लाखानी चौखण मिटर जमीन गोंयां भायल्यांच्या हातांत पावल्या चड पयशे मेळटात म्हूण गोंयकार आपली जमीन विकून पॅरीस, लंडनाक वचून रावल्यात. आपल्याक दलाली मेळटा म्हूण काय गोंयकार ही जमनीची दलाली करतात. जांकां जमीन विकची अशें सपनांत लेगीत दिसलेंना अश्या साद्या भोळ्या गोंयकारांक हे दलाल दुडवांची आस दाखयतात आनी तांकां जमीन विकूंक मुखार काडटात. एकदां जमीन गेली म्हणटकच परतून ती गोंयच्या लोकांच्या हातांत येवपाची ना.

सांकवाळे जुवारी इंडस्ट्रीक पंचवीस पयशे चौखण मिटर ह्या दरान हजारांनी चौखण मिटर जमीन एका काळार सरकारान दिल्ली. ते जमनींतले अर्दे जमनीचो वापर जुवारी इंडस्ट्रीन केलो. अर्दी जमीन तशीच पडून आसा. आयज ते जमनीचो दर हजारांनी रूपयांचेर पावला. पूण ताची मालकी जुवारी इंडस्ट्रीज कडेन आसा. गेली ना आमची जमीन?

सॅझ ह्या प्रकाराक मान्यताय दीत जाल्यार अशीच परिस्थिती गोंयांत उप्रासतली. गोंयकार आतांच गोंयांत परकी जाला. 'सॅझ' प्रकल्प येतकच उरिल्लोय गोंयकार शेणटलो. 'सॅझ' घेवन आयिल्ल्यो बहुराष्ट्रीय कंपन्यो मात गब्बर जातल्यो. गोंयचे भुंयेर तीं संस्थानां थारतलीं आनी तांचो गोंयकारांक लाव जावचे बदला गोंयच्या शिरांतलें रगत ते पीत रावतले.

सॅझवाल्यांक मान्यताय दिली जाल्यार सरकाराक राज्य आनी थळाव्या करांतल्यान तांकां वगळावंचे पडटलें.

वॅट, विक्री, खरेदी कर, अक्ट्राय, सेस, स्टॅम्प ड्युटी, विज ड्युटी ह्या सगळ्यांचेर उदक सोडचें पडटलें आनी सरकाराक बाबाय ना आनी पुडवेंय ना अशी गत जावन पडटली.

आज सगळ्या स्तरांतल्यान सॅझाक विरोध जाता. गोंयच्या सगळ्या पक्षानी विरोध केला. लोक सॅझ रद्द करचो अशी मागणी करीत रस्त्यार आयल्यात. लोकांची मागणी मान्य केले बगर आतां सरकारा मुखार पर्याय ना. चड विध्वंस जावंचे पयलींच तो रद्द करप हातूंतच सरकाराचें शाणेंपण आसा.



# एक सोडयल्लो प्रश्न

कविता आज खूश आशिल्लें. हाचें कारण म्हणजे कालूच ताचो साखरपुडो जाल्लो. ताचे सगळे नातेवाईक काल ताच्या घरांत जमिल्ले. ताणी कविताच्या साखरपुड्याक ताका बरेतरेन सजयलें आनी मोठ्या दबाज्यान एका-मेकांक मुदयो घालून भावी नवऱ्याच्या नातेवाईकांनी कविताचो हो साखरपुडो मनयल्लो. कविता आशिल्लेंच तशें सुंदर आनी स्मार्ट. बी. कॉम पर्यंत शिक्षण घेतलेलें कविता, आधुनिक कपड्यानीं कोणायच्याय दोळ्यांत भरपा सारखें आशिल्लें.

अविनाश कामतीच्या आवय-बापायक तें पसंत पडलें. ताणी ताका तांच्या एकुलतो एक पूत, अविनाश हाचे खातीर मागणी घाली.

कविताच्या आवयक-बापायक, हेमंत-कल्याणी नायकाक आनी किर्तें जाय आशिल्लें. तांका तिनूय चलयोच आशिल्ल्यो. कविता सगळ्यांत व्हडलें, लाडांत वाडलेलें. कविताच्या आवय-बापायन तें थळ कसलेच आढे-वेढे न घेतां मान्य केलें. अविनाश-कविताच्यो जन्मकुंडल्यो सामुद्रिका कडल्यान वाचून पळोवन कितल्या गुणांक पडटा तें पळयलें. योग्य ते गूण पडटात अशें दिसून आयिल्ल्यान, ताणीं रोखडोच कविताचो साखरपुडो करून उडयलो. अविनाशाच्या आवय-बापायचो हेमंत-कल्याणी नायकांचो घालपा-करपाचो मोठोसो प्रश्न नाशिल्लो. सर्वसाधारणपणान व्हंकलेक दागिने घालतात, तशे घालचे. आमचो कसलोच आनी मोठो आग्रो ना अशें तांचें म्हणणें पडलें. आमकां आमच्या अविनाशा खातीर बरें चली संसारी आनी शांत स्वभावाचें आमका मेळ्ळें इतल्यांनूच आमची उमेद भागली अशें ताणीं म्हळें. त्यामुळे घालपा-करपाचीं उलवणीं, ओढून-ताणून धरप आदी लग्नाच्या पयलीं जावपी गजाली जाल्योच ना. एकाच मिटिंगेंत सगळें काय निश्चित जालें. अविनाशच्या आवय-बापायन म्हळें आमकां तुमचें चली कविता पसंत पडलें. आमच्या चल्याक अविनाशाकूय तें भावलें, पसंत पडलें आमी स्वतः तुमचेकडेन येवन ताका मागणी घाली, हातुनूच सगळें किर्तें आयलें. कविताच्या आवय-बापायक हो एक चान्सूच पडलो. ना जाल्यार आज काल चलयांचीं लग्नां जुळोवपाक कितले कश्ट पडटात! तातुनूय कविता हें तांचें पयलें चली. म्हणून ताका ताणी लाडान वाडयल्लें. पुणून शिक्षणा प्रमाणेच ताच्या आवयन ताका संवसाराक लागता तें सगळें गिन्यान दिल्लें. कविताय शिकलें तरी बाकीच्या चलयां सारखें हॉटेलांनीं खावपी, भलत्यो आपणांक सोबनाशिल्ल्यो फॅशन करपी नाशिल्लें. तें आपल्या आवय-बापायकडेन मर्यादाशील वागतालें. तशेंच ताच्या बाकीच्या नातेवाईकांकडेनय चलयेक आवश्यक अशी मर्यादा सोडून वाग नाशिल्लें. म्हणून तें ताच्या सगळ्या नातेवाईकांक आवडतालें. आतां वयांत आयिल्ल्या कविताक आपली जबाबदारी कळटाली. आपल्या धाकट्या दोन भयणींचें तें काळजी घेतालें. आपल्याक भाव ना हाची ताका खंत आशिल्ली. पुणून ताच्या बापायन ताका फुलासारखें वाडोवन ताका ताजी जाणीव अशी भासूंक दिवं नाशिल्ली. कविताक मात आतां हुस्को लागलेलो कीं आपलें आनी आपल्या दोन भयणींचें आयज ना फाल्यां लग्न जाल्या उपरांत आपल्या आवय-बापायच्या जिवनांत एक पोकळी निर्माण जातली तेन्ना तांचें कशें जातलें काय. पुणून परतेंय तें पुर्वपदाचेर येतालें. थोड्याच दिसांनी बऱ्या सुमुर्ताचेर कविताचें अविनाशाकडेन लग्न जालें आनी नवलाईचें पयलें वर्स सोंपल्या नंतर तें खऱ्या अर्थान आपल्या संवसाराक लागलें. रोखडेंच ताणें अविनाशाच्या आवय-बापायचीं मनां जिकलीं. आनी त्या नंतर स्वतः पुढाकार घेवन आपल्या धाकट्या दोन भयणांचीं लग्नां ताणें जुळयलीं. मागीर ताच्या फुडें प्रस्न आशिल्लो तो ताच्या आवय-बापायचो. अविनाशा कडेन विचार विनिमय करून ताणें ताका अविनाशाच्या, म्हणजेच सासरच्या घरांत हाडलीं आनी तांची देख-भाल तें अविनाशाच्या आवय-बापायबरोबरून करूंक लागलें. अविनाश आनी ताच्या आवय-बापायन ताका कसलोच विरोध केलो ना. हाचें कारण म्हणजे कविताची सोशीक वृत्ती आनी समंजसपणान सगळ्यांशी वागण्याची पद्दत. अविनाश-कविताक पयलो चलो जालो आनी ताच्या सगळ्यांच्या आनंदात भर पडलो. आपल्या नातवाचें कौतूक करीत ताका सांभाळटां सांभाळटां अविनाश-कविताच्या आवय-बापायचे जाण्टेपणांतले दीस समाधानान वचूंक लागले. कवितान आपल्या कावय-बापायचो आनी सासू-सासऱ्याचो प्रश्न तशेंच सासरच्या वंशाचो प्रश्न, आपल्या कतृत्वान सोडयल्लो.





- सुरेश कामत सातोस्कर
घर नं - १६८, देडोळवाडो, माशेल गोंय

# बावकें



*करतां करतां गजेंद्राच्या बापायक जगला तितलें आयुश्य पुरो अशें दिसूंक लागलें. ताका जिविताचो कंटाळो आयलो. मनांत हाडल्यार तो काशीबायच्या तोंडांतल्यान आपली सुटका करून घेवंक शकतालो. पूण तें ताणें खूब आर्दी करूंक फाव आसलें.*

*मरता आसतना ताणें आपल्या पुताक सांगलें, "बाबा गजेंद्रा, हावें भोगलां तें तुज्या वाट्याक येवचें न्हय म्हण सांगतां तुका. गिरेस्ताले चलयेकडे मात लग्न जावं नाका. गरिबांतली गरीब जाल्यार चलता, सुशील चली पळोवनच लग्न कर. गिरेस्तकायेत आनी रूपरंगांत सूख मेळटाच अशें ना मनशाक. हावें जें केलें ना तें तुका शक्य आसा. आतां काळ बदल्ला."*

**नं. ध. बोरकार हांची नवी धारावाहीक नवलिका – बावकें.**

**तो** दिवाळे आदलो दीस आसलो. फाल्यांचे दिवाळेची तयारी नेटान चलताली. गजेंद्रान पंदरा रूपये फारीक करून धा काट्टां हाडून तुळशीकडे दवरिल्लीं. टट्टटीत दाकां येद्या बल्बांच्यो रंगयाळ्यो माळो भायले कुडीच्या एका कोनशाक दवरिल्ल्यो. आड्डू मानाय येतलो आनी आख्खो बंगलो त्या माळांनी सजयतलो, असो बेत आसलो गजेंद्राचो.

दिवाळी लागीं येता येता म्हळ्यार गिन्सावार आकाश दिव्यांनी गांवचो बाजार भरता. पूण हातांत देमायज पयसो आसूनय केन्नाच विक्रतो आकाशदिवो घेतलोना गजेंद्रान. वर्साभसेन आयजय ताणें जित्या कोंड्यार्ची पांचवीं कामटां करून दवरल्यांत. फोली हाडल्यात आनी गवां पिटाचें घुरीत करपाची ओर्द ताणें काशीबायक दिल्या.

काशीबाय ही गजेंद्राची आवय. ऐशींच्या घरांत पावल्या. तिच्याच देखरेखी खाला हो वेळ मेरेन दिवाळेचो आक्त चलत आयला. तिका जाय तशेंच सगळें जावंक जाय. कितेंच उणे पडचें न्हय म्हण ती दोळ्यांत तेल घालून टेळणी करताली. आपल्या पुताकडच्यान खर्चाक हयगय जावची न्हय म्हण, असल्या वक्तार तिची किरवट सदांच जड आसताली.

आधुनीक बंगल्याक फाव तशी तुळस सिमेंट-रंगान सजयल्ली. पूण ही सजावट काशीबायक मातय पसंत नासली. जमनीचे तिजुले कितलेय सोबीत आसले तरी तांचेर शिब्रु गायेच्या शेणाचो शिताडो फाफुडल्या बगर, दिवाळेचो दबाजो पुराय जावंक कठीण आसलो.

हालीं-हालीं गजेंद्राल्या घरांतली दिवाळी चडच मजेशीर आसताली. दिवाळे दिसा काशीबाय उठल्या बगर कोंबो साद घाली नासलो. आनी कोंब्यान साद घाल्याबगर फांतोड जाय नासली. केन्ना-केन्नाय काशीबायले शेजान्नीलो कोंबो सकाळच्या दोनाकच साद घालतालो.

फाल्यांय तिगेल्या शेजांऱ्यांलो कोंबो दोनाकच साद घालतलो. मागीर ती उठून दोन तीन चार मेरेन फुतफुतत सगळें काम पुराय करतली. मागीर ती नरकासुराचो आनंद घेवंक मेकळी.

फाल्यांच्या कामाचो पेज उणो जावचो म्हण, आयज जाता तितलीं कामां करून दवरपाचें तिणें थारायलें.

तिगां-चोवगां मनशां खातीर तिणें उदका हांडो चुलीर चडयलो. हांड्याच्या गळ्यांत रोजां आनी आंब्या पानाची माळ करून घाली. माळेत एक-दोन काट्टांय गुंतलीं.

तुळशी पेडयेर आनी सगळ्या खुरांचेर ल्हान-ल्हान शेणागुळे थेयले. गुळ्यांचेर मातये पणट्यो खोबरेलान भरून थेयल्यो. स्वताच्या हातान वळिल्ल्यो कापसा वाती तेलान भिजयल्यो.

तिणें आतां लांबच्या लांब शेणाचो लोळो तयार केलो. तो चेपटीलो. ताचेर काट्टां, पणट्यो मांडल्यो. बाकीचें काम तिणें फाल्यांक थेयलें.

फाल्यां ती उठून आपल्या बाबूच्या सगळ्या आंगाक खोबरेल चोळटली. मागीर उटणे थापतली. उपरांत खतखतीत उदकान न्हाणयतली.

हें सगळें चलता आसतना अकस्मात वातावरण बदल्लें. सगळें मळब काळसाणेन भल्लें. कांय खिणां आदीं आशिल्लो वोताळ्ळो वाठार आतां राताळ्ळो जालो. कावळे कांव कांव करून आपले घोटेर सोदूंक लागले. सुकण्यांचो आवाज बंद जालो. मळबांतल्या कुपांच्यान स्वस्थ बसूंक जालें ना. तीं अस्वस्थ जालीं. धतरेवेलो काळोख तांकां सोसलोना. तीं आपलें आंग एकामेकाक घश्टूंक लागलीं. ते घश्टणेन निर्माण जाल्लो उजवाड तीं आतां मेळत थंय मोखूंक आनी शिपंडावंक लागली. उपरांत मळब आपल्या गडगड्या भाशेंत, धतरेवेल्या जिवांक चतराये घोशणा दिवंक लागलें.

खुबदां दिवाळे दिसांनी पावस वांगडा अरिश्ट घेवन येता हें मनीस जातीक खबर आसता. केन्ना खंय वीज पडत हाचो नेम नासता.

गेल्या वर्सा शेतांत काम करता आसतना एका शेतकामत्याचेर वीज पडली. तो आनी दोन बैल थंयच्या थंयच घट जाले.

तशें पळोवंक गेल्यार वर्सान वर्स, खंय ना खंय वीज पडिल्ल्यांच्यो खबरो खबरापत्रांनी वाचूंक मेळटाच. दुर्गाचें मन घट्ट, तरी भायलें, जोगलांचें तांडवनृत्य पळोवन ताच्या मनांत पाल चुकचुकलीच. म्हजें पोर धाडशी सोबावाचें. ते भायर ताका पावस आंगार घेवंक खूब आवडटा. पावसांत नाचपाचें मनांत घेतल्यार, जोगलां - गडगड्याची परवा करिनासतना तोमसोळ कशें नाचतलें. असल्या वेळार कितेंय विपरीत घडलें जाल्यार?

आतां सांजवेळचीं चार-साडेचार वरां जाल्लीं. मळब चड वेळ सुशेग घेवंक शकलेंना. गडगड वाडत रावलो. जोगलांनीय नाचपाचो नेट धल्लो. मळबांत बॉम्ब आनी खोजने फुट्टात तसो भयावणो आवाज येवंक लागलो. खिणांत जोगलां गडगड्या वांगडा मुसळधारो पावस कोसळूंक लागलो.

''पोर म्हजें कितें करता देवाक खबर! हांगा-थंय आशिल्लीं भुरगीं दिवाळेक म्हण घरा येतात, हाका लागल्या अवदिसा.''

दुर्गालो काळखांतलो आवाज.

''अवदिसा-बिवदिसा कोण्णाक लागुना. मोद सगळो मोद! कर रे गजा ताका फोन. सांग ते राणयेक. हांगाचें शेणबीण सगळें व्हावन गेलें म्हण!''

काशीबायन भेंडार हात धरून काळखांतच पासयो मारीत म्हळें.

''फोन पावसांत डॅड जाला न्हय गे!'' गजेंद्रान मात्शी निर्शेवन जाप दिली.

''जांव डेडबीड, कर तूं, हांव सांगतां म्हण कर.'' काशीबाय अधिकारान उलयली.

''कांय फोनबीन करपाची गरज ना आं, ताका सगळी खबर आसा. ताका येवचेशें दिसल्यारच येतलें तें. तेंय बापायक लागून. आमी दुस्माना न्हय ताचीं?''

दुस्मान? हय, दुस्मानच! एक बापूय सोडून घरांतलीं आनी घरा भायलीं सगळीं सोयऱ्यां धायरीं दुस्मानच आशिल्लीं शीलाक. ताची सगळ्यांत व्हड दुस्मान आशिल्ली काशीबाय-ताची आजी-आनी फाटोफाट ताची आवय, दुर्गो!

२

**ग**जेंद्र नायक हो मडगांवांतलो व्हडलो गिरेस्त. ताच्या गिरेस्तकायेक लागसारके मडगांवांत थोडेच धनवंत आशिल्ले. गजेंद्राकडे एकठांय जाल्ली गिरेस्तकाय ताच्या स्वकश्टांची नासली. पुर्वजांच्या गिरेस्तकायेचेर गजेंद्राच्या बापायन कळस चडयल्लो. ते भायर आवय वटयां कितलींशींच भाटां-बेसां मेळिल्लीं ताका. सगळ्या वटयां गजेंद्राक गिरेस्तकायेची उब खूब आशिल्ली. ताका लागून धंदो बिंदो वाडोवन, गिरेस्तकाय वाडोवपाची गरजच नाशिल्ली ताका. पुर्वजानी जोडून दवरिल्ल्या धनाचो उपेग समाजाखातीर करचो. उरिल्ले चार दीस समाज सेवेंत घालोवचे आनी वाडवडलांचें नांव करून दवरचें अशें दिसतालें गजेंद्राक. पयशां नाड्यार तो तेंच करूंक शकतालो.

गजेंद्राकडे धनदौलत देमायज आसली. पूण ती ताका सूख दिवंक शकनासली. कारण पयसो खर्च करून सूख मेळय सारकें कांयच नाशिल्लें ताचे कडेन. सांगाताक आसले ते फकत अगिन्यानाचे दोन

हांडे, ताची आवय आनी बायल.

काशीबायचो आवय-बापूय निपुत्रीक. तीं मेल्या उपरांत सगळें काशीबायच्याच वाट्याक आयलें. फक्त भाटां-बेसांची गिरेस्तकायच न्हय, वंशपरंपरेन सांबाळून दवरिल्लीं पिशेपणां आनी अंधश्रद्दाय वांगडा घेवन आयिल्ली काशीबाय. ताका लागून आपूण जें कितें करतां, जें कितें उलयतां तें वाकडें आसत, अशें केन्नाच दिसलेंना तिका.

धूव दिवची गिरेस्तागेर आनी सून हाडची गरिबाली, अशी एक म्हणणी घोळटाली आदले तेंपार. तिजें खरेलेंपण कांय लोकांच्या बाबतींत आजय पटून येता. खरें म्हळ्यार गजेंद्राचो बापूय गिरेस्तायेन काशीबाय परस इल्लोय उणो नाशिल्लो. तरी काशीबायक आपलो घोव गिरेस्तकायेन आनी गिन्यानानय बी आपल्याहून उणोच आसा अशें दिसतालें. ताका लागून उठतां-बसतां दोगांचींय झगडीं पेट्टालीं. ह्या झगड्यांत जैत जातालें तें फक्त काशीबायचें.



करतां करतां गजेंद्राच्या बापायक जगला तितलें आयुश्य पुरो अशें दिसूंक लागलें. ताका जिविताचो कंटाळो आयलो. मनांत हाडल्यार तो काशीबायच्या तोंडांतल्यान आपली सुटका करून घेवंक शकतालो. पूण तें ताणें खूब आदीं करूंक फाव आसलें.

मरता आसतना ताणें आपल्या पुताक सांगलें, ''बाबा गजेंद्रा, हावें भोगलां तें तुज्या वाट्याक येवचें न्हय म्हण सांगतां तुका. गिरेस्ताले चलयेकडे मात लग्न जावं नाका. गरिबांतली गरीब जाल्यार चलता, सुशील चली पळोवनच लग्न कर. गिरेस्तकायेत आनी रूपरंगांत सूख मेळटाच अशें ना मनशाक. हावें जें केलें ना तें तुका शक्य आसा. आतां काळ बदल्ला.''

गजेंद्राच्या बापायच्या मतान काळ बदल्ला ही गजाल खरी आसली. वीस-बावीस वर्सां आदलो काळ आतां नासलो. पूण काळ बदल्लो तरी गजेंद्राक ताचो लाब नासलो. हां, बापाय ऐवजी आवय हो संवसार सोडून गेल्ली जाल्यारच गजेंद्र नव्या काळाचो थोडो भोव उपेग करूंक शकतालो.

बापूय जितो आसा म्हणसर गजेंद्र लग्नाचो जाला, ही गजाल कोणाच्या लक्षांत गेली ना. तरी काशीबायचो दोळो आपल्या मावस भावाच्या चलयेचेर आशिल्लो. चलयेचें नाक मात्शें जाडें आशिल्लें. पूण मावस भावाले गडगंज संपत्ती मुकार व्हकलेच्या नाकाचें कोंत नाशिल्लें! घोवाच्या मरणा उपरांत काशीबायक आपलें राज्य चडच मेकळें जालें. सगळ्यांत पयलीं तिणें गजेंद्राच्या लग्नविशयाक हात घालो. तिणें कळाव केलो ना. मावस भावाक आफोवन घेतलो. लग्नाचो प्रस्ताव ताच्या फुडें मांडलो.

'कुड्डो मागता एक दोळो देव दिता दोन' म्हण्टात तसली गत काशीबायच्या मावस भावाची जाली. भाव-भयणीन बसून, गजेंद्राच्या लग्नाचो प्रस्ताव 'सा' केलो.

मावसभावाक काशीबायच्या गिरेस्तकायेचें कोंत नाशिल्लें. गजेंद्रा असलो सुशिक्षीत, सुसोबावी आनी देखणो जावंय मेळटा, हे जाणविकायेनच तांचे पांय कशेच थाऱ्यार रावले ना. गजेंद्राची मान्यताय घेनासतना काशीबाय लग्नाचो म्हूर्त थारावन मेकळी जाली.

म्हातारेन कोंब्याक पांजी पोंदा धापून थेयलो म्हण केन्ना सकाळ जावचेली उरता? काशीबायन आपल्या पुताची सोयरीगत जोडली. लग्नाचो म्हूर्तय पळोवन थेयलो.आपल्या नावलौकीकाक फावता तशें, व्हडां धबाज्यान लग्न करपाचें थारायलें. त्या पासत भांगरा शिंगरां आनी कपडे-लत्ते तयार करून दवरपाच्या वावराक लागली. सगळी तयारी करतंकच पुताक चकीत करपाची माग्णी केल्ली तिणें. पूण नशिबान तिका सांगात दिलोना. काशीबायलो गूट फुटलोच. व्हकलेकाराच्या

एका सोयऱ्यान लग्नाची गजाल गजेंद्राच्या कानार घालीच.

आपल्या आवयची करणी गजेंद्राक साप्प मानवलीना. आयज मेरेन ताणें आवयचें खूब सोसलें. पावला कणकणी ती बापायचो अपमान करताली. आवयच्या ह्या वागण्यान गजेंद्राचें सुसंस्कृत मन दुखावतालें. आवय-बापायच्या झगड्यांत आवय, बापायचेर एक सारखो अन्याय करता, अशें ताका जाणवतालें. तरी तांच्या तंट्यांत पडचें न्हय म्हण तो मोन्यानी उठून वतालो.

कोणाकय दिसतालें, गजेंद्र सुसंस्कृत मनाचो आशिल्लो जाल्यार कोणे केल्ले ताचेर सुसंस्कार? आवयल्या वागण्यावेल्यान तर ती कोणाचेर बरे संस्कार करपाच्या लायकेची आशिल्ली अशें दिसून येनाशिल्लें.

गजेंद्राक सुसंस्कारीत केल्लो ताचे आज्जेन. आवय-बापायकडे मान-रेस्पेदान कशें वागूंक जाय हें आज्जेनच गजेंद्राक शिकयल्लें. ताकाच लागून आयज मेरेन आवयची सांगणी-म्हणणी आयकत आयलो. बापायच्याय उतराक मान दिवन तो तशें करतालो.

पूण आतां मात गजेंद्रान आपले आवयक हिसको दिलो. आवयलें गुपीत आपल्याक खबर आसा हाचो ताणें तिका पत्तो लागूंक दिलो ना.

गजेंद्राल्या राबीत्याक तेकून, भाड्याच्या घरांत एक शिक्षक रावतालो. हो शिक्षक शारांतल्या हायस्कुलांत शिकयतालो. त्या शिक्षकाक एक शिकिल्ली सवरिल्ली चली आशिल्ली. रंगरूपानय वायट नाशिल्ली. गजेंद्रान तिची आनी तिच्या घराब्याची पुराय खबर काडली. चलयेचो बापूय गजेंद्रा इतलो गिरेस्त नासलो, तरी तो बऱ्या घराब्यांतलो आसलो.

गजेंद्रान आतां चिंतलें. आवयचेर पातयेवन रावल्यार फुडें आपलो सर्वनाश जातलो. तो ताळटलो जाल्यार आवयक आतांच बुद्द शिकयल्ली बरी. ताणें आनी कळाव केलो ना. आपल्या एका बरे मागत्याक घेवन शिक्षकालें बिराड गाठलें.

शिक्षकान गजेंद्राक नमळायेन येवकार दिलो. मातय कळाव करिनासतना गजेंद्राल्या वांगड्यान आपली आनी गजेंद्राची वळख शिक्षकाकडे करून दिली.

शिक्षक गजेंद्राच्या बापायक बरेभाशेन वळखतालो. आपल्याकडे आयिल्लो मनीस लटरफटर न्हय, हाची जाणविकाय त्या शिक्षकाक जाली. ताणें फाटलो-फुडलो विचार करिनासतना आपले घरकान्नीक आफोवन घेतली. वांगडा धूव आनी पुतय हासत्या चेऱ्यान येवन आवय-बापाय म्हऱ्यांत बसलीं.

थोडो वेळ कोणाक कितें उलोवचें कांयच समजलेंना. खिणभर शांतकाय पसरली.

"गजेंद्र, हांव उलोवं काय तूं उलयता रे! आमी कित्याक आयल्यात तें तांकां स्पश्टपणान कळळ्यार बरें न्हय? ताकाक येवन गाडगो कित्याक लिपोवया?"

"तूं उलयता मरे, तूंच उलय. हांव उलयलों कितें आनी तूं उलयलो कितें, कितें फरक पडपाचो आसा?" गजेंद्रान इश्टाक म्हळें.

"फरक ना कसो तर, फरक आसा. तुज्या मनातलें म्हजे परस तूंच बरेभशेन सांगतलो." इश्टान उक्तेपणान म्हळें.

"अशें म्हणटा, बरें आसा तर. हांवच उलयतां." गजेंद्र धिटायेन उलयलो.

"गुरूजी, हांव तुमचे धुवेक वळखतां. हांव तिका मागणी घालूंक आयलां." गजेंद्र धपक्याक उलोवन मेकळो जालो. गजेंद्राच्या उलोवण्यान व्हकलेचो आवय-बापूय अजापांत पडलो. दोगांय तोंड 'आ' करून एकामेकाकडे पळेत रावलीं. व्हकलेचो चेरो खिणात गंभीर जालो. तिची नदर पावलांकडे झुकली.

"अशीं काचाबूल जावपाची गरज ना तुमकां. हांव तुमकां आनी तुमचे धुवेक पुरायेन वळखतां. सगळी चोवकशी करून तयारेन आयलां हांव. म्हजो बापूय हालींच भायर पडलो. ना जाल्यार ताकाच वांगडा घेवन येवपाचों हांव!" राजेंद्र सडसडीत उलोवन मेकळो जालो.

"तुमच्या बापायची खबर आसा म्हाका." व्हकले बापायन थंडसाणेन जाप दिली.

"पूण तुमची आवय?" व्हकलेच्या आवयन प्रस्न केलो.

"म्हजी आवय म्हाका म्हजे इत्से आड लग्न करूंक सोदता."

व्हकलेचो बापूय आनी व्हकलय उच्च शिक्षीत आशिल्लीं. तांकां खरेली परिस्थिती कळूंक कळाव लागलोना. तरी तांकां गजेंद्राची म्हायती काडपाक चार दिसांची मुदत जाय आसली.

गजेंद्राक दुर्गाबायकडे लग्न जावन वीस वर्सां लोटलीं. ताका एक अठरा वर्साचें चली आसा - शीला. कोन्वेंटांत शिकून वयर आयिल्लें शीला आज्जेचें तोंड पळोवपाक तयार ना. आज्जेल्या शेणा मोगान ताचो जीव घुस्मट्टा. ताका लागून आवय-बापायचो मोग आसूनय शीला मामीचो आसरो सोडूंक तयार ना.

(फुडें चलता)



- नं. ध. बोरकार
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७

# काळें सांवट...!

- रिना विजय भांडारे



**आ**मोरेंचो तीनसांजचो वेळ. चारूय दिकांनीं काळोख पातळ्ळा. अशें दिसता की हे काळ्या कुपांचे काजळेन दिसाक गिळुनूच उडोवपाचो निश्चेव केला. काळोख गुप्पाट! थंड शितळ वारो सुटला. घोग्यांचो पावस झडटा आनी ह्या पावसाची ओलसाण पुराय वाठारांत पातळ्ळ्या.

व्हाळ उप्पाट भरून व्हांवता. व्हांवत्या उदकाच्या पाटांनीं आपलें अशें आगळेंच सुंदर मधूर संगीत जमयलां. रातकिड्यांची किरकीर वाडतूच आशिल्ली. पिसोळीं दिव्यांचे अवतीं भोवतीं आपल्यो मोगाच्यो भोंवताळ्यो घालताल्यो. जशें कितें तांकां पावसाच्या येवकाराची खोस जाल्या. पोरसांतल्या रूखां-झिलांनीं काजुले उमेदीन आपा-लिपाचे खेळ खेळत लिकलिकताले. तरी आसतना इतल्या सुंदर वातावरणांत ताच्या काळजाक हुळहूळ लागिल्ली.

चारय वाटांनीं हरयाळीचे पांचवेचार गालिचे सजल्यात. अयस पयस मळांचेर धवीं फुल्ल गोकळां किल्लून आयल्यांत. पांचवेंचार तण आनी अर्दीं मर्दीं तीं गोकळां! सोब सारकें देखणें रूप सैमाचें तोखेवपाक मेळटा. सगळे कडेन नवनिर्मणीची खोस वयर सरल्या. तरीय त्या उचंबळीत काळजाक थाकाय ना.

अनयाच्या मनांत हुळहूळ! काळ्या कुपांनीं मळबाक धांपिल्ले वरीं अनयाच्या मुखामळार काजळी शिंपडिल्ली. वाऱ्याचें ल्हार ताच्या सोबीत मुखामळार हळूच स्पर्शून सांसपीत वतालें. पूण अनयाच्या मनाक, देहाक ताचें भानूच ना. कारण ताच्या मनांत कितें तरी वेगळेंच कोडें, वेगळेच विचार घुसपल्ले आसात. एके वटेन चिंतेस्त, गोंधळिल्ले अवस्तेंत करपाक जाय म्हण सोमाराचो दिवो हातांत धरून तें भायर आयलां. तुळशी वृंदावनाक दिवो लावपाक तोंडांत प्रार्थना संध्या पुटपुटत पूण पुराय लक्ष लावन तें आज देवाची पार्थना करिना. ताचे दोळे फकत थिरावल्यात ते फुडले गेटीचेर. दरवंट्याचेर.

इतल्या प्रसन्न वातावरणाचो ताका आस्वाद घेवपाक जमलें ना? भायर - भितर पासयो मारीत आशिल्लें. सात वरां जावन गेल्लीं. काकीबाय म्हळ्यार अनयाची आजीमांय अनयाचो खेळ पळयत आसली. बल्कावांचेर बसून ती देवा दिव्याच्यो वाती चोळी आनी तोंडांतल्यान कसली तरी प्रार्थना पुटपुट्टाली. अनयाचो आज हो दिखावो पळोवन तीय अजाप जाल्ली.

''अनया आज घडलां तरी कितें गो? एकायकडेन तुजें लक्षूच लागना तें. भायर-भितर कसल्यो कसरती - काडावडी चल्ल्यात?'' काकीबायन ताचेर नदर मारीत वाती चोळटां चोळटां हुसक्यान विचारलें.

''कांय ना काकीबाय. अशेंच मातशें भोंवचें शें दिसलें.'' अनयान जाप दिली.

''कांय ना मगो? ना तर म्हाका सांग आं!''

ती आपली वातींचो डबो धांपून सगळें आटपून भितर सरली. अनया अजुनय थंयच पडवेर बसलां. दांत-वोंठ चाबीत. मर्दीच बोटांचीं नाखटां खायत कसल्या तरी खोल विचारांनीं घुस्पून गेलां.

आतां साडेसात वरां जावन गेल्लीं. अजून अनिखा घरांत परतूंक नासलें. हरशीं ताका केन्नाच कळाव जाय नासलो. अकस्मात

इतलो वेळ जाल्ल्या कारणान तें भिवून गेल्लें. अनिखा अनयाची एकटीच चली. जाणें निकतेंच पंदराव्या वर्सांत पावल दवरलां. धाव्वेच्या वर्गांत शिकतालें. शिकूंक हुशार, तशेंच खेळां सर्तीन भाग घेवपाक सदांच फुडें. दिसपाकूय देखणें, सुंदर, शिरवंत, लांब, तेजस्वी, गोरें! मुदयाळेच केंस आनी वयाचेर आयिल्ल्यान ताचे सुंदरसाणीक आनीकय भर पडल्या. गांवच्या सगळ्या चल्यांची तशेंच लोकांची ताचेर बारीक नदर हें अनयाकं खबर आशिल्लें. देखून तें चड भितालें.

धाव्वेचें वर्स म्हणून अनयान विज्ञान आनी गणित विशयांक लागून ताका ट्युशनाक धाडटालें. खरें म्हळ्यार अनयाच्या मनांत ताका ट्युशनाक धाडचें नासलें. ट्युशन म्हणलें की तें संतापतालें. ताका तिडक येताली. पूण हाचे फाटलें कारण मात ताणें केन्नाच कोणाक कळूंक दिवंक नासलें. अनयाक राग येता म्हण अनिखाक खबर आसलें म्हणून तें आपल्या बापायची परवानगी घेवन आपल्याच शाळेच्या शिक्षकाकडेन ट्युशन घेवपाक वच. पूण हरशीं तें सात वरां म्हळ्यार घरांत पावता. आज ताका बरोच उशीर जाल्लो. ह्या कळावा खातीर अनया सामकें बाबडें जावन गेल्लें. तातूंत पावसाचे दीस. नेटायेन वारें सुटिल्लें. वचत थंय उदक आनी अनिखाकूय मात्शें पावसांत नाचूंक, खेळूंक,भिजूंक आवडटालें. अनिखाच्या गोऱ्या आंगार पावसाचें उदक जेन्ना उमो घेत नाचता तेन्ना ताचे सुंदरसाणीक पळोवन कोणाकूय भूल पडटा. काळ्या मुदयाळ्या केसांतल्यान पावसाचे थेंबे एक एक करून ताच्या पोल्यांचेर गळटा तेन्ना ताचें तोंड पळोवन कोणूय भारावन वचपी जाता. खास ताचे आवयक तें इतलें सुंदर दिसता जाल्यार बाकिच्या लोकांचें तर विचारूंकच नाका. कोणाच्याय नदरेक भरपा सारकें आनी तातूंत ही ताची sweet teens म्हणटात ती पिराय घातकी. Most dangerous stage of the life. हांगाच आपल्या मनाचेर ताबो आसपाक जाय. मनाच्या ल्हारान ताचो कोणूय गैर फायदो घेयत हें येवजूनच अनया घुस्मटालें. दोळे धांपून देवाचें नांव घेयत तें अनिखाक सुखरूप आयल्यार पुरो म्हण प्रार्थना करी. इतल्यान भायले गेटीचो आवाज आयलो. पळय जाल्यार अनिखा पावसान चिप्प भिजलां, कुडकुडटा, एके वाटेन सत्री वाऱ्यान उलटून सत्रेचे दांडे मोडून गेल्यात. अनिखाक पळोवन अनयाच्या मनाक चैतन्य लाबलें. भायर धांवून ताणें अनिखाक वेंगेंत घेतलें आनी पयलीं कपडे बदलूंक लावन गरम गरम सूप पिवपा यो म्हूण सांगलें.

डायनींग टेबलार सूप दवरिल्लो. अनिखाचो आवडिचो टॉमेटो सूप. अनिखा आपल्या आवयचें चिंतेस्त तोंड वळखलें.

''मम्मा कितें जालें गो, कसल्या विचारांत गुंतल्या. हांव म्हजी काळजी घेवपाक धडधाकट आसां. म्हजे कांय difficult प्रस्न आशिल्ले सराक विचारपाचे. त्याच कारणाक लागून इतलो उशीर जालो. ना तर हांव ७ मेरेन घरा पावना? म्हज्या सांगाताक तें शांतीलें चली आनी त्या शेटिलें गिताय आशिल्लें. उटंगराचो पावस आनी नेटान वारो सुटिल्ल्यान म्हजी सत्री उलटली आनी मोडली देखून हांव तांचेच बराबर आयलें आनी ल्हव ल्हव चलिल्ल्यान आमकां वेळ जालो.''

''पुरो पुरो तुज्यो excuses.म्हाका फाल्यांच्यान तूं सात म्हळ्यार सातांक घरांत पावतलें. आनीक म्हाका कांयच आयकुपाचें ना.''

अनया रांदचे कुडींतल्यान उलयतालें. तीं उतरां अनिलाच्या कानार पडलीं. ताणें अशें अनयाक तापिल्लें पळोवंक नाशिल्लें. अशें चिंतेस्त आनी तापसाण्यो ही ताची वृत्तीच नाशिल्ली. तर आज अशें कितें घडलें जाका लागून अनया इतले वेगळे भाशेन वागता. अनिलाक हो प्रस्न सतायतालो. जेवणां खाणां आटपून रांदचेकुडींतलीं कामां आवरून अनया आपले कुडींत गेलें. अनिखा आपलो कसलो तरी विशय घेवन शिकपाक बशिल्लें.

अनया आपलो night gown घालून न्हिदपाचे तयारेंत आसलें. त्या आदीं केसांत तेल घालपाक ड्रेसींग टेबला फुडें बसलें. अनिल फाटले वटेन ओल्तेराचेर कसली तरी कादंबरी घेवन बशिल्लो. ताणें अनयाक दोनदां उलो मारलो. पूण अनया आपलेच धुंदींत केसांत तेल घालतालें खरें! पूण ताचें लक्ष त्या जाग्यार नाशिल्लेंच. तें खंयचे तरी विचारांत खोल गेल्लें. ताचे सामकार तें पयलींचें अनया आयलें जें सारखेंच अनिखाभाशेनूच आसलें. सगळ्या कामाक, खेळपाक, शिकपाक हुशार. सगळे लोक ताची तुस्त करी. तातूंत सुंदर बावलेवरीं अनया आपल्या वयाच्या १५व्या वर्सांत घुस्पल्लें. ती सांजवेळ येवजिल्यारूच ताका आपलेविशीं तिरस्कार येता, घृणा – लज दिसता.

अशीच ती एक सांजवेळ जातूंत अनया आपलें भान हरपून गेल्लें. उचंबळीत दर्याच्या ल्हारांचो आवाज, सळसळपी माडाचीं चुडटां मनाक एक प्रसन्नताय हाडी. तातूंत वयावेल्या भुरग्यांची तर गत विचारूच नाकात. धुंद धुंद वाऱ्या झेतार धोलपी माड, सळसळट्या दर्याचीं ल्हारां. उटंगराचो पावस आनी त्याच पावसांत भिजून गेल्लें १५ वर्सांचें अनया. सुंदरसाणिची तर सिमाच नासली. धाव्वेच्या परिक्षेक लागून तें ट्युशन घेवपाक वच ताच्याच सराकडेन. ताच्या सांगाताक ताची इश्टिण वताली. पूण त्या दिसा ताका जोर आयिल्ल्या कारणान तें ट्युशनाक वचपाक शकलें ना. अनयाक एकटेंच वचचें पडलें. उटंगराचो पावस आनी देखून त्या दिसा कोण भुरगींय चड येवंक नाशिल्लीं. अनया घरांतल्यान वतनाच चिप्प भिजिल्लें. ताचो तो धवोफुल्ल विस्तीद ताच्या आंगाक चिकटून गेल्लो. ताच्या माथ्यावेल्यान पावसाचे थेंबे मोतयांवरीं गोऱ्या पोल्यांवयल्यान गळटाले. गुलाबाच्या पाकळ्यांवरी ताचे कोमल ओंठ आनी घारे दोळे. तातूंत तें जशें अपसराच कशें भासतालें. वचून ट्युशनाक



फाटल्या बांकाचेर बसलें. ताची अवतिका पळोवन सराचें तर मात लेगीत लक्ष शिकोवपाचेर नासलें. भुरग्यां मदल्यान चिरीत ताची नदर अनयाक पळयी. ताच्या त्या कोवळ्या आंगाक पळोवन तो आकर्शीत जाल्लेवरीं परत परत ताका फुडें बोर्डार गणितां सोडपाक आपयी. पयलींच तो रूम ल्हान. तातूंत तो सर थंयच बोर्डाक तेंकून राविल्लो. अनयाक तें कशेंशेंच दिसपाक लागलें. पूण सराचे आज्ञेक मान दिवचो देखून तें बोर्डार गणितां सोडोवपाक गेलें. तें गणितां सोडयतां सोडयतां मदींच सर ताचो हात धरी. मदींच चॉक सकयल उडोवन वाकी. मदींच हालचाल करी जातूंत त्या अनयाचो इल्लो ना इल्लो अंश ताच्या आंगाक स्पर्श जाता हे तरेन. तो उतावळो जाल्लो. अनयाक तें मात्शें नाकसुरें गेल्लें. पूण सर म्हणजे कांय म्हणुंकय शकना आनी विद्या दिवपी सर अशे तरेन वागतलो हेंय ताच्या मनाक पटना जालें. तें गणितां सोडोवपाक गूंग जालें.

पावस जसो झडटालो तशेंच त्या सराच्या मनाक वासनेची दडक येत आशिल्ली. ताच्या त्या लहरी मनाच्या ल्हाराक ताच्यानूय आडावंक जमलें ना म्हणून ताणें भुरग्यांक बेगीन सोडलीं. सगळीं भुरगीं पावस पडटा म्हूण बेगीन घरा पावपा खातीर धांवत पळत सुटलीं. आयज अनयाक एकटेंच वचचें आशिल्लें. ताणें आपलें बॅग भरून वचपाक पावल घालपाक ताका एक उलो आयकूंक आयलो. तो ताच्या सराचोच आशिल्लो. अनया तुका हो गणित पेपराचो नमुनो. हो पेपर घे आनी गणितां सोडय. अनया शिकपाक तर हुशारूच आसलें. खंयच्याच शिकपी भुरग्याक आपल्याक आनीक मार्क मेळचे अशें दिसताच म्हूण तें पेपर घेवपाक भितर गेलें. अनयाक मात सुध्दां खात्री नासली की ताच्या आयुश्याची ही एक घातकी सांजवेळ जावन पडटली म्हूण. त्या सांजवेळेन आपलो काळोख पातळावन दिसाचें साम्राज्य सोपयिल्लें तेच वरीं अनयाच्या आयुश्याचेर हो काळोख पातळावपाचो निश्चय केल्लो.

बाकीचीं भुरगीं पयलींच गेल्लीं. अनयाक सरान वेळ जालो जाल्यार आपूण तुका व्हरून सोडटां म्हूण आस्वासन दिलें. अनया पेपर सोडयतां सोडयतां सर ताचे कुशीक येवन बसलो. ताचीं सारकीं आशिल्ल्या गणितांक ताणें शाबासकी दिली. अनया आतां गणितां पेपर सोडवपांत गुंतून गेल्लें. ताका सराचे फुडले करणेची खबर लेगीत नासली. करतां करतां सर ताचे कुशीक येवन बसलो. ल्हव ल्हव ताणें ताचो हात पोशेवप, चिमटे काडप अश्यो नाका जाल्ल्यो करण्यो तो करूंक लागलो. अनयाक तें नाका पुरो जाई. पूण शिक्षक अशें कितें करत हाचो विचारूच मनांत रिगनासलो. देखून ताणें थंय लक्ष दिवपाचें सोडलें. सर मदींच ताचे मांडयेर हात फिरयी. ताका पोशेयी, सांसपी. सराचे वासनेचीं ल्हारां वयर वयर उफेत आसलीं. ताका आपल्या मनाचेर नियंत्रण दवरप जमलें ना आनी ताणें एक शिक्षक विद्यार्थी हांचें सगळें नातें खोटें करून उडोवन, एक वासनेन भरिल्लें जनावर जशें आपल्या सावजाक झडपून धरता तेच परीं हाणें त्या कंवळ्या अनयाचेर झडप घाली. वासनेक खंय पिरायेचीं बंदनां लागतात. ही गत सामकी खरी जावन पडिल्ली. अनयाच्या दोळ्यां सामकार काळोख पातळ्ळो. ताणें केन्ना जल्मांत चितूंक लेगीत नाशिल्लें तें आज ताका भोगचें पडिल्लें. त्या नरभक्षकाचे तावडींतल्यान सुटपाचे ताणें जायते यत्न केले.

फडफडलें. पूण ही वासनेची भूक इतली जाल्ली की तें कांयच करूंक शकलें ना. ताच्या आंगार ताणें ना ना तरेच्यो वेदना केल्ल्यो. कवळी कळी फुलचे पयलींच ताका चिड्डून, मस्तून, बावोवन उडयली. अनयाच्या मनाचेर हे गजालीचो इतलो परिणाम जालो की तें शिक्षक ह्या उतराक भियेवंक लागलें. शिक्षणांवेलें ताचें लक्षूच उडून गेलें. ताचें हें बदलिल्लें रूप पळोवन आतां ताच्या आवय-बापायक लेगीत अजाप जावपाक लागलें. अनयान ही गजाल आपल्या आवय-बापाय पसून लिपोवन दवरिल्ली. घडये लजेन वा तिरस्कार आपल्याक सहन करचो पडटलो देखून! ताणें आपल्याकूच एकटेंच रूमांत बंदीस्त करून दवरलें. बंदखणींत जगिल्लेवरीं तें जगपाक लागलें. काळखान रावप, शाळेक वचप ना. ट्युशन तर ताणें सोडुनच दिल्लें. जेवणा-खाणावेली ताची वान्साच गेल्ली. दोळ्यां खाला काळीं वर्तुळां जमिल्लीं. ताच्या वागण्याचें सगळ्यांकूच अजाप जालें. आवय-बापूय चिंतेस्त जालीं. तीं अनयाक घेवन घेवन दोतोरांचीं दारां धोडायतालीं. पूण वखद करून लेगीत कांयच फायदो जालो ना. ताका गरज आशिल्ली ती मनोचिकित्सकाची. कोणें दिश्टीबादा सांगली, कोणें घाडयाक दाखयात म्हूण सांगलें. पूण ताचेर कांयच फरक पडलो ना. ताका जाय आसली ती मानसीक दोतोराची गरज. जो ताच्या काळजांतलें गुपीत सोदून काडपाक शकतालो. खूब यत्न केले पूण कांयच फायदो जालो ना. शेवटाक तांणी आपल्या इश्टाचो सल्लो घेवन अनयाक मनो चिकित्सकाक दाखोवपाचें थारायलें. दोतोरान ताचो अभ्यास करून तें कितें तरी आपल्या काळजांत घेवन बसलां हें सांगलें.

"अशें कितें घडलां की तें इतलें बदल्लां?" त्या दोतोरान प्रस्न केलो. पूण ताच्या आवय-बापायक हे विशीं कांयच खबर नाशिल्लें.

दोतोरान ताका आतां आनीक एक तंत्र वापरून म्हळ्यार Hypnosis ही पध्दत आपणावन ताच्या काळजांतलें लिपोवन दवरिल्लें गुपीत सोदून काडपाचें थारायलें. ताका Hypnotism हे पध्दतीन ताच्या आयुश्यांत कितें घडलां हें सविस्तर कळून येवपाक लागलें. इस्कोलान कितें घडलां ह्या उतराक तें तितलें हालूंक नासलें. पूण 'शिक्षक' ह्या उतरार थरथरपाक लागलें. काळीज ताचें धडधडटालें, तें रडपाक लागलें आनी जी ताचे जिणेंतली काळखी सांजवेळ आयिल्ली ते विशीं ताणें रडत मरत सांगपाक सुरू केलें. हाचेर दोतोरान ताची कित्याक ही अवस्था जाल्या जातली हाचो हिशोब लायलो आनी त्या शिक्षकाचेर कारवाय करपाकूय सांगलें जाणें ही भयानक कृती केल्या. हे रितीन तांणी अनयाचें काळीज रिकामें केलें जातूंत ही भयानक कृती लिपून उरिल्ली आनी तें भितरले भितर suffer जातालें. ताचे आवय-बापायक ताची काकुळट दिसली. आपली चली हे वृतिची शिकार जालें हाची खंतूय तांच्या मनाक जाली. पूण हातपांय गळून बसप सारकें नासलें. ज्या मनशान हें वायट, हळशिकावणें काम केलां ताचेर कारवाय करूंकच जाय आसली. तांणी आपली कारवाय सुरू केली पूण त्या सराक आपले हे करणेची इतली लज जाल्ली की तो सर पयलींच आपले नोकरेचो राजीनामो दिवन त्या गांवांतल्यान गेल्लो. तो खंय आसा हाचीय कोणाक खबर लागली ना. देखून ताचेर तांकां कांयच Action घेवंक मेळूंक ना.

पूण एक मात अनयाचें मन हलकें जाल्ल्या कारणान ताका जे मानसिक त्रास जाताले ते तरी कमी जाल्ले. ताका मानसिक धक्यांतल्यान भायर येवचें म्हूण ना ना तरेन तांणी प्रयत्न केलो. अनयाक थोडे दीस आपल्या आत्यागेर धाडलें. ताची समजूत घालून आपलें फुडलें शिक्षण पुराय करचें म्हूण ताका आत्याच्याच घरांत शिकपाक दवरलें. फुडें तें आपल्या आत्यागेरूच रावन शिकलें आनी शिक्षण सोपतकच ताचें लग्न अनिलाकडेन करून दिलें. पूण हें ताच्या जिवनांतलें काळें सत्य कोण जाणूंक नासलो देखून अनयाक चड त्रास जाताले.

तें आपली स्थिती कोणाक सांगपाकूय शकनासलें. आपल्या आयुश्यांत जें काजळी कूप आयिल्लें तें कूप तरी आपल्या चलयेच्या वाट्याक येवचें न्हय म्हण तें चड चिंतेस्त जातालें. एक एकदां ताका आपल्या आयुश्यांत घडिल्ली खबर अनिलाक सांगिनशी दिसतालें. तें सांगपाक लेगीत वतालें पूण दुसरेच घटकेक ताका आपल्या सुखी जिवनांत ही आनी आतां पिरंगण, गिराण लावन घेवपाचें नासलें देखून तें आपलें तोंड उगडी नासतना रावी. ताच्या आयुश्यांत जें सूख ताच्या पदरांत पडिल्लें तें पयलींची गजाल आयकून, तोंडार जरी दाखोवन दिवचीं नासलीं तरी घरच्यांच्या काळजाक पीळ घाले बगर रावची नासली. ताच्या चारित्र्याचेर दाग पडले बगर रावचे नासले. देखून ताच्या आवय-बापायन ताका घाल्लें वचन तें पाळत आसलें आनी तोंड बंद दवरून, एक गुपीत काळजांत घेवन आपलो फुडलो संवसार तरी सुखाचो जावचो म्हूण धडपडटालें.

खऱ्यांनीच एके बायलेक कितलें सोसचें पडटा! ताका खरें उलोवपाक जाय जाल्यार लेगीत कांय वेळार अशे प्रसंग येतात कीं मन मारून, तोंड धांपून रावचें पडटा.



**- रिना विजय भांडारे**
ठाणे, कुठ्ठाळी-गोंय

# कमालो पेटो



"ऊट गो - ऊट गो बायेऽऽ. कमाऽऽ. णव वाजले, उट. खंयी नीद तुका ही पापणी? कुंभकर्णालि भयण की कितें तूं? आँ?"

"कित्याक मजया फाटी लागला. राब रे थोडोवेळ. आणि पांच मिनिटां न्हिदूक दी. तूं कित्याक सक्काळी बेग्गी उटून बसला. आंड कापिलल्या कोळा म्हणकी वदरता एक सारको."

"हांव आंड कापिलल्या कोळा म्हणकी वदरता, हय? तू डुकरिणी म्हणकी लोळतेर पडला म्हगो. हांव म्हणतां बेगीन उटल्यार तुका बरें की माका बरें?"

"तुका बरें. हांव बेग्गी उटल्यार तुका बशिल्याकडेन चाचो घोट मेळता न्ही. हांव उटलें ना जाल्यार तुका चा करचो पडता. हय की न्ही?"

"अगो बाये! सकाळीसकाळी झगडें मारूक सोदता की कितें? सामको कलीकुंडो म्हगो तूं."

"हांव झगडें मारूंक सोदनां, कळलें. तूच सुरू केला हो करवाद. बेग्गी उटून कावळ्या म्हणकी करकर करतरे बसला. तें जावूं दीं चा केलो की ना? माका एक कोप दी मरे."

"तुका साप सांगतां हांव आज चा करचो ना. कितें बी जावूं दी.."

"अरे अशें कितें करता अशोका. तू मजो घोव म्हण मोगान मागतां हांव तुजे कडेन."

"पिडार पडू तुजो मोग. हांव तुगेलो घोव हय पुण तू माका घोव-गुलामा म्हणकी पळयता. इतलें लक्षात दवर म्हळयार पुरो."

"आतां अशें उलयता रावणा तूं. मजे बरोबर लग्न कर, लग्न कर म्हण तू सदी उटून माका पाया पडतालो म्हरे तू. विसरलो की कीतें इतलें बेगीन. तुका चंद्र हाडून दितां आवय, आवय, आवय. कसल्यो पोकयो उतरां तुजी तीं. हांव गाढव म्हण घर-गांव सोण्ण पळून येवन तुजया वांगडां काजार केलें अणि ह्या पाड बाड गांवांत येवन पडलें. हाचो माका आतां बेजार जाता. चंद्र, नखेत्रां नाकात एक कोप चा दी म्हळयार इतलो आड्डता."

"तें जावू दी. तुका बेगीन उटपाक कितयाक जायना. हांव कसो उटतां बरोब्बर सा वाजतां. तुका मात्र कसलो रोग धरला म्हणता हांव."

"माका वेगीन कितयाक उटोवचाक जायना म्हण विचारता. खंचया तोंडान. रातसर दोन-तीन खेपेक माका उटयता आंगा मुळाक घालून घेवपाक. तुगेलें काम जालें की सामको डारडूर न्हिदता. माका सगळें सापसूप करून न्हिदता मेरेन वेळ जाता. सगळें आंग दुकता. सकाळी बेगीन उटूक जायना."

"आसूं दी. आसूं दी. म्हारायती ऊट तू आता. चा हांव करतां. आज माका खूब कामां आसात."

"अशोक शेट आसा रे घरात."

"कोण? अशोक न्हावूक गेला म्हरे बस तू मांडार थोडो वेळ. अशोक येतलो."

"न्हाऊक गेला जाल्यार मागीर येता म्हण सांगा तेका."

"कोण येवन गेलो म्हूणू सांगू?"

"दत्ता येवन गेलो म्हण सांग ताका."

"आरे पुण ह्या तुमगेल्या कारवारात एक डजनभर तरी दत्ता आसात. खंचो दत्ता आयिल्लो म्हुण सांगू?"

"बुयांव दत्ता येवन गेलो म्हण सांग."



"अशोक न्हावन येयलो तूं? दत्ता म्हुण कोण तरी तुका उलो मारून गेला. परतो येतलो तो."

"कोण दत्ता म्हुण विचारलें ना तुवें?"

"विचारलें म्हरे. बुयांव दत्ता म्हण नाव सांगलें ताणें."

"हां कळलें माका आतां कोण दत्ता म्हुण."

"ताका बुयांव दत्ता म्हण कितयाक म्हणतात रे?"

"अगो तागेली मान गळ्यात वचून थारल्या म्हुण ताका बुयांव

दत्ता म्हणतात. हांगा – लंबु दत्ता, गिड्डो दत्ता. कुड्डो दत्ता, लंगडो दत्ता, चोर दत्ता, जाडो दत्ता, बारीक दत्ता, बोबाटो दत्ता अशे धा–बारा तरी दत्ता आसात. सारस्वत लोकांक दत्ता हे नांव दवरचें पिशें आसा म्हण हो सगळो घुसपट जाला. अजाप म्हणयार जांका बी ज्या तोपण नांवान आपयलें म्हण काय दिसना. सदीचेंच जाला तें तांकां. सदीं मरता ताक कोण रडता म्हणतात न्ही गो.''



''अशोक आसा रे?''

''कोण बुयांव दत्ता. यो, यो. तूं येवन गेलो तें कळलें माका. कितें काम काडलें आज?''

''मज्या धुवेलें लग्न काडला. थोडे तरी दागिने करचाक जाय न्ही रे. पुण दुडू खंयच्यान हाडचो. बायलेले थोडे दागिने मोण्ण नवे दोन डाग करचें म्हणता. हे घे दागिने. मापाक बायेले काकण हाडलां. दोन कांकणां करू धा दिसांत तयार जातले म्हरे?''

''हय हय. दत्तुमाम. तू काय बी काळजी करू नाका. हांव निप्पट सांगिल्ल्या दिसाक दितलो मनीस, जाणा म्हरे तूं. जाय ताका विचार. हो अशोक सोनार म्हळ्यार भांगरा उतराचो म्हण लोक होगाळयतात माका, जाणा म्हरे तूं?''

''तें सगळें खरें रे. पुण जाणटे लोक म्हणतात न्ही – सोनार, शिंपी, कुलकरणी आप्पा, हांगलो भरवसो ना रे बाप्पा – वेळेर हे तिगाय काम करनात म्हण जगजाहीर आसा न्ही म्हण सांगलें. रागार जावनाका तूं हां. येता तर हांव.''



''कमा, ए कमा. कितें करता गो बाये. जाब दिना म्हगो.''

''कितयाक बोबो मारता एक सारको. कोण भायर सरला की कितें?''

''कसलीं उतरां उलयता तूं. शिकिल्ल्या प्रोपेश्वरालि धूव म्हण गळ्यात घालून घेतलें तुका. तुजी आवय पुण मास्तरीण. तूं मातर अरवळ खंचें. अशें तोंडाळ कशें जालें तू म्हणता हांव?''

''गळ्यांत घालून घेतलें खंय, गळ्यात घालून घेतलें. दोन वरसां मज्या फाटलेन सुण्या म्हणकी हुंगतेर फाटी पडिल्लो. विसरलो तूं? लग्न जावून स म्हयने जाले नात तर माका खेपता. चोर खंचो.''

''हांव चोर. हय गो हांवच चोर. कोणालें कितें चोरलें हावें तें सांग पळय.''

''सोनार तूं. लोकांनि दिललें भांगार चोरले शिवाय दागिने कन्न दिनात सोनार अशें सगळे जाण सांगतात वोगीच न्ही. भयणीन भांगर दिवन दागिने कर म्हण सांगतांना सांगलें खंय दादा तांबे घालु नाका हां–तर फुकणेतल्यान तांबया पयसो सोडलो खंय अशी मजी आवय सांगतालि.''

''आब्बाब्बाब्बा. तुजि आवय तुजया म्हणकीच खूबच शाणी दिसता. सोन्नारालि गजाल सांगता. शिंपयालें पोर तूं. शिंवचाक दिल्ल्या कापडातले अद्‌दें तरी कापड चोरचे लोक तुमीं माका हुशारी सांगता. आँ? मज्या बोलसांतल्यान सदीनकदा पयशें चोरता तू. जावूं दी, जावूं दी म्हण हांव इतलो दीस गप्प रावलो. हाजया नंतर मात्र गप्प रावचो ना हांव. सांगून दवरतां. कयदाशीण खंची.''



''अशोका आज भाजी कसली करची? काल गाबतिणीक एक गातन मासळी हाड म्हण बजावुन सांगिले. खंय मेली कोण जाणां. दंपार जालि आतां.''

''बशां आतां दोगांय राम–राम करत. दंपारचो एक वाजलो अणि तूं आतां माका विचारता. शाणेंच आसा म्हगो तूं?''

''राम–राम करतरे बशां म्हणता? तर म्हण –
देवा तुझा मी सोनार।
तुझ्या नामाचा व्यवहार।।१।।

देह बागेसरी जाणे।
अंतरात्मा नाम सोने।।२।।

त्रिगुणाची करूनी मूस।
आंत ओतिला ब्रह्मरस।।३।।

जीव शिव करूनी फुंकी।
रात्रंदिवस ठोकाठोकी।।४।।
ठोकाठोकी, ठोकाठोकी...

''पुरो, पुरो, पुरो. प्रोपेश्वराल्या धुवेऽऽ बस कर तुजें भजन. न्हणिघरा फाटल्यान वाली भाजी लायल्या न्ही. ती कापून हाडून दितां. सुकी सुंगटां घाल आणि बेष्ट पयकी शाक कर. हांव सिदामाल्या दुकानातल्यान थोडें नोणचें घेवन येतां. भूक लागल्या. केदोळ धन्न पोटात कावळे रट्टात.''

''कावळे रट्टात न्ही, रडू दीत. मास्सो राव कावळ्याक पिंड घालतां – तुज्या कावळ्यांक. आणखिन बोबाटे मारू नाका.''



''स वाजले गो कमा. ऊठचा करता म्हगो.''

''स वाजले? सकाळचे की सांजेचे रे. जरा निदचाक म्हण दिना हो कावळो.''

''सोऱ्या घोट मान्न न्हिदला की कितें तूं? आँ? सकाळचे न्ही. सांजचे स वाजले. आतां ऊट हादरगित्ती खंचें! पना भटाल्या हाटेलातल्यान कांद्या भर्जी तळिल्लो वास येना तुका? सकाळचे तो कांदे भजे केन्ना

काडना. तू जांणां ते.

"तू धावत वच आणि दोन फ्रेरी कांद्याभजे घेवुन यो. तितल्यान हांव चा करतां."

"भोव बोरें गो तू पोर. केन्ना केन्नाय नातें सटकता. तुगेल्या हातच्या चाकरूच आसा ती आणि कोणाल्या हाताक ना हो."

"माका चणया झाडार चडय नाका हां अशोक! तुजी फकणां माका कळतात म्हळें. हांव साप पिशें न्ही."

"अगो हांव कितें सांगता पळय.दीसभर भांगर पेटून पेटून सामको वाज येयलो. पासयेक या आज."

"हय. हय. वचूयां पासयेक आज. खूब दीस जाले भायर म्हण गेले नात आमी. हांगा घरातच गणमणतेर आसात, ह्या सोनार वाड्यार."

"बेगीन तयार जा तर."



"कशे दिसतां हांव. सांग रे अशोका."

"आवयस. हेमा मालिनी झक मारली म्हगो तुजया मुकार. वोगीच न्ही हांवे दोन वरसा तुज्या फाटल्यान लागिल्लो, लाळ गळयेत फिरतालो."



"हातात हात घालून झेमात खंय वयतातरे अशोका. होकल नवी म्हण भायर काण्णा की कितें. घे. घे. होकलेक फुलां माळय. कितलें शोबीत दिसता पारे. कळ्या चेंडू, वोंवळां, कांदळां, आबोलीचे वळेसर." कारमेल मायन अशोकाक वाटेर धरलेंच. धा रुपयांचे वळेसर घेतरकीतरच तिणे अशोकालि फाट सोडली.

दोगांय फिरत फिरत काजूबाग मोण्णा वयल्यान कोडीबाग रस्त्याक लागले. कोडीबाग धडयार वचून पावले. न्हंयच्या धडी लाग्गी आशिलल्या एका बाकार एकमेकांक तेकून बसलीं.

काळी न्हंय आणि आरकी समुद्राचो संगम. सांजचो समुद्रात बुडूंक लागिल्लो सुर्या, शेळो हवो, आणि कमलान मात्यार माळिलल्या फुलांचो सामको घमघमाट – या वातावरणात अशोक तापलो आणि ताणे हळूच कताक लागीन वोण्ण घेवन आपल्या कुशीत घेतलें. तागेल्या खांद्या वयल्यान, हाते वयल्यान दात भोवंडावचाक लागलो. कमा जास्तच तागेल्या कुशीत रिगलें. दोगांय धुंदीत जगाक विसरली.

"तूं कमा न्हिगो?" या सोदन दोगांय भानार आयली. पळयल्यार मुकार कमाल्या कुळाराचो सुबाराय शिंपी. बारीक लिकलिकीत दोळ्याञनी तांचेकडेन पळयत उबो.

"तूं दिंगा कोडीबागाज येवन आसा. थंय गोयांत तुजी आवय सगळी कडेन भोंवटी मान्न साप निरशेल्या, पुराय हण्णु जावन गेल्या आणि तूं हांगा मजा मारता, रांडला. आवयबापयाकक कळोवचें न्ही की तूं खंय आसा, कोणा बरोबर आसा तें आजची चोरडां म्हणयार सामकी लंडभैरव."

"तें सगळें जावूं दी सुबरायमाम. मजो बापूय कसो आसा. आवय अणि दोगांय भयण्यो बरी आसात न्हु?"

"तुजो बापुया खूप खोशेत आसा पुता. तीन चेडवांतलें एक भायल्या भयर खपलें. म्हण खुशाल जाला. मनातल्या मनांत. पुण लोकांक दाकोवपाक मात्र सुकें रण्णें रट्टा. प्रोपेशरी करून. हिमटेपणान तेणे खूब दुडू जोडल्यात व्हड दुडवाकार आसा तो. याजान लोकांक पयसे दिल्या. तुं जाणां तें सगळें. हो अशोक म्हगो. शाम-शेटीलो भुरगो. आवय बरोबर गांवांत येतालो.भुरगो सभावान बरो हां. बरें करून संवसार करात. पलतडी वचची बोर सुटली सदाशिवगडा वयल्यान. तूं मेळिल्लें म्हण घरा सांगतां हां. येता हांव आतां."

सुबरायाल्या डांट्रीन दोगांल्या रंगाचो भंग जालो. दोगांय गपचिप उटून परतीच्या वाटेक लागली. शिवाजी हायस्कुलाकडेन पावतकीर नटूल्या टुरिंग टोकीज लागी लोकांली खूब गडदी दिसली. चककशी केल्यार शांतारामालो. 'नवरंग' शिनेमा थंय लागला म्हूण कळलें. आपसूक तांगेंली पावलां थेटराकडेन वळली. दोगांय शिनेमा पळोवयात गुंगजाली. संध्या अणि महीपालाली काणी, रंगीत शिनेमा आणि तातुतली गोड गोड, मधुर पदां. तातुतली कितली तरी पदां हाजया पयलींच आयकून आयकून दोगांक पाठ जाल्ली. भाजिल्ली बिकणां खायत खायत शिनेमा पळयतस्तानाच भक्ककन्न दिवे पेटले आणि शिनेमो सोंपलो.

सोनार वाड्यार वचून पावता म्हळ्यार रातचे धा वाजले. रातचें जेवण कीतें करचे हाजेर दोगांलें होडलें झगडें जालें घोवबायलेत. हिंदुस्तान -पाकिसानासारकी लडाय जाली. दोगांय एक-मेकांचेर उण्ण पडतालीं. कोणीच फाटी.सरचाक तयार नात.

"जेवण करचें, रांदचें, उष्टि काडची ही बायलाली कामां. आणि तूं तर तेंच करपाक आळशेता. कीतें माश्शें उलयल्यार सुणया कोले म्हणकी भों भों करन मजेर भोंकता."

"हांव कोली? हांव कोली. तर तूं कोण रे? कोण तूं?"

माचयार बशिल्ल्या अशोकान हळूच म्हळें, "तूं कोली अणि हांव तुगेले पेटो."

तें आयकून कमा होडहोडान हासतेर सुटलें. ताणे दिवो पालवयलो.माचयार वचून न्हिदलें आणि पेटयाक आपल्या आंगार वोण्ण घेतलें.





– विठ्ठलराय भट
आंबिवली पो. मोहने,
ठाणे.
मो. : ९२२१३०९७५८

# CROSSING ON ZEBRA LINE IS FINE

WHERE EVER ZEBRA CROSSING IS AVAILABLE

# USE IT



ALWAYS FOLLOW THE ROAD CROSSING DRILL
WHEREVER ZEBRA CROSSING NOT AVAILABLE i.e.

1. LOOK TO YOUR RIGHT
2. LOOK TO YOUR LEFT
3. AGAIN LOOK TO YOUR RIGHT
4. CROSS THE ROAD WALKING STEADILY, DO NOT RUN.

**Issued in public interest by**




**Aim to reduce DEATHS & INJURIES caused by road accidents**



## धोल गो बाय

धोल गो बाय धोलांचें
पोदेराल्या बोलांचें
गोडाच्या तें मिलांचें
बापायगेल्या लाडांचें

धोल गो बाय धोलांचें
पिपिरमीट रूचिचें
चान्नें कशें चांदूचें
आज्याच्या काय लाडांचें

धोल गो बाय धोलांचें
बावलें कशें खेळपाचें
आवयचे तें मायेचें
आजेच्या कांय लाडांचें

धोल गो बाय धोलांचें
धोलता तशें धोलोवचें
बिटीबिटी दोळ्यांचें
हांसकुऱ्या काय तोंडाचें



– सुनील पालकार
नावशी.
फोन – २४५९३२१

## बारा म्हयने

पयलो म्हयनो जानेवारी
खोशेचो आनी उमेदीचो
दुसरो म्हयनो फेब्रुवारी
फक्त अठ्ठावीस दिसांचो
मार्च म्हयन्यांत भुरग्यांक
हुस्को आसता परिक्षेचो
पूण एप्रिल म्हयनो मात
लोकांक ‘फूल’ करपाचो
मे म्हयन्याचे दीस
आंबे, पेरां खावपाचे
जून म्हयन्याचे दीस
पावसांत खूब नाचपाचे
जुलय म्हयनो हाडटा
उबगण आमच्या मनांत
ऑगस्ट म्हयनो करता
मुक्ती दिसाचो उगडास
सप्टेंबर म्हयन्यांत तोपता
पावसाचो आकांत
ऑक्टोबर म्हयन्यांत पिकता
भांगर सगल्या शेतांत
नोव्हेंबर म्हयनो सगळो
शिंयान कुडकुडपाचो
डिसेंबर म्हयनो मात
नातलां मनोवपाचो

– अतुल र पंडित

## नवें वर्स

वर्स नवें उमेदीचें
खोशयेच्या ल्हारांचें
काळोख पयस करपाचें
उजवाडाक येवकार दिवपाचें
नवनव्या विचारांचें
सांसारीक एकचाराचें
अंधश्रध्दा विसरपाचें
विज्ञानीक नदरेन चलपाचें
मनीसपणान वागपाचें
विश्व धर्म मानपाचें
वायटपण सोडपाचें
बरेंपण धरपाचें
भावपण जोडपाचें
नवे संकल्प करपाचें
मळबाक हात लावपाचें
दिगविजय करपाचें
राष्ट्र नवें घडोवपाचें
वशेव गोटो पिकवपाचें
भांगरा कणसां काडपाचें
गिरेस्तकाय वाडोवपाचें
धादोसकाय हाडपाचें
सवस्तकाय नंदोवपाचें
सगल्यांक सुखी करपाचें
नवें वर्स भांगरा पावलाचें
सुखा समृध्दीचें



– सदानंद तेंडुलकार
खोडयें, सत्तरी.

## सर्कस नाका ...

सर्कशींतल्या जनावरांक
सर्कशींत रावन वाज आयलो
सदांच तेंच तेंच करप
दर एकलो धांवत सुटलो
घोडो धांव धांव धांवता
ताच्या फाटल्यान वाघ
तांकां दोगांकूय पळोवन
शिंवाक आयलो राग
अस्वलाक धांवन धांवन
सामकें पुरो जालें
रस्त्या देगेक झाडापोंदा
सावलेंत तें मात्शें रावलें
मॅ, मॅ, मॅ करीत बोकडी
सर्कशींतली भायर आयली
वाघाक तर पळोवन
ती सदांच भियेतालीं
सर्कशींत आसलीं बरीं
चार लुकलुकीत सुणी
तांची अपुर्बाय करूंक
उत्रांच पट्टालीं उणी
सगळे धांव धांव धांवतात
जोकराची वाचा मोनी
जोकराचेर तापत उठलो
सर्कशीचो धनी

**– भिकाजी घाणेकार**
लिदिया गार्डन,
सांतीनेज पणजी
फोन : २४३१३६५

# देख दिवपाची तराच बदलूंक जाय

**आ**फ्रिकेंतली एक लोककथा आयकल्ली – एका गांवांत खंय एक तळें आशिल्लें आनी ह्या तळ्यांत एक मानगें रावतालें. तळ्या लागसार कोणूय पावूं, ताच्या पांयांक खंय तें धरतालें आनी ताका ओडून तळ्यांत भितर व्हरतालें.

गांवांतली जण-एकली आवय भुरग्यांक भंय घालताली, "तळ्या लागसार वचूं नाकात आं, मानगें तुमकां ओडून भितर व्हरतलें."

एके आवयक एक मस्तो पूत आशिल्लो. ताका जाय तें आवयन केलें ना जाल्यार "हांव तळ्या लागसार वतलों" म्हूण तो आवयकूच भंय घालतालो.

एक दीस ताका तान लागली. ताणें आवयक उलो मारलो आनी म्हळें, "आई, म्हाका पियेवपाक इल्लें उदक हाडून दी."

"माटांत आसा; काड आनी पिये." आवयन जाप दिली.

"ना, तूं हाडून दी."

"तुजे कितें हात-पांय मोडल्यात व्हय रे?"



पुतान तिका भंय घालो, "तूं उदक दिना? हांव तळयेर वचून पियेतलों."

"वच" आवयन वाजेवन जाप दिली.

पूत खच्यांनीच तळयेर गेलो, सांगता तें तो करतलो अशें आवयक दिसूंक नाशिल्लें. देखून ताका धांवन गेल्लो पळोवन तो भियेली. ती ताचे फाटल्यान धांवली, "पोरा, घरा यो.

दिता तुका हांव उदक. तळयेर तुका मानगें ओडून व्हरतलें'' अशें सांगीत रावली.

पुणून पूत तळये लागसार वचपाकूच आयिल्लो. तळयेच्या उदकांत हात मात घाला, मानग्यान ताका पांयांक धरून ओडून व्हेलो.

आवय मोटच्या मोटच्यान लोकांक उलो मारपाक लागली. तिचेर आयिल्लो आकांत पळोवन लोक धांवन आयलो. तिकाच दुशण दिवपाक लागलो, ''तुवें ताका सांगपाचें न्हय, तळयेंत मानगें आसा म्हूण? तें लोकांक ओडून भितर व्हरता म्हूण?'' ''एके खेपे न्हय, कितले-शे खेपो सांगलें. पुणून तो आयकना...''

ते भुरावळींत एकली बायल-मनीस आशिल्ली. तिणें म्हळें, ''खरें गे बाये तुजें... हालिंचीं भुरगीं कोणाचेंच आयकनात.''

पुताक भायर काडप लोकांक जमलें ना.

''भोग तूं तुज्या कर्माचीं फळां'' अशें म्हणून सगलीं आपापल्या घरा गेलीं. आवयूय रडत रडत घरा परतली.

हेवटेन कितें जालें,

मानग्यान ओडून व्हरनाफुडें भुरग्यान सुरो काडलो. तो सुरो कमराक खोवनूच आयिल्लो. मानग्यान ताका ओडटकूच तो भितर गेलो आनी सुऱ्यान मानग्याचें पोट ताणें फोडलें. मानगें मेलें.

भुरगो पेंवन वयर आयलो आनी नीट घरा गेलो. आवय मुखार वचून उबो



रावलो आनी तिका विचारलें, ''तूं म्हणटाली न्हय, हांव मरतलों म्हूण? खंय मेलों?''

ही एक लोक कथा. खरी कथा न्हय. पुणून बोध घेवपासारकी.

आमी भुरग्यांक जायतें कितें सांगतात आनी सांगतना अतिताय करून सांगतात. 'निसणीर चडूं नाका, तूं पडटलो...' 'धांवूं नाका, पांय निसरतलो...' 'कुळणें उखलूं नाकां, तूं फोडटलो...' नानाक्काराच्यो कितल्यो - श्यो देखी आमी भुरग्यांक दितात. कांय भुरगीं करूं नाका म्हूण सांगिल्लें करिनात. आयुश्यांत मागीर कसलेंच काम करूंक पावनात. पुणून कांय भुरगीं बंड करूंक मुखार सरतात. आवय बापायन करूं नाका म्हळ्ळें जाल्यार मुजरत करतात आनी आवय-बापूय अमकें जातलें, तमकें जातलें म्हूण सांगतालीं तें फट म्हूण दाखोवन दितात. 'हीं जाणटेलीं बेश्टीं भियेतात' असो तांचो समज जाता आनी उपरांत आवय-बापायक भुरग्यांक 'करूं नाका' म्हूण सांगपाची आनी भुरग्यांक करूं नाका म्हूण सांगिल्लें मुद्दम करपाची संवय जावन पडटा.

''कितल्या खेपो तुका सांगलें हें करूं नाका म्हूण'' अशें आमी भुरग्यांक कितल्याश्या खेपो सांगतात आनी तरी आसतना आमकां तें कितल्याश्या खेपो तांकां सांगचें पडटा, हाचो अर्थुच असो की आमी जें भुरग्यांक सांगतात ताचो तांचेर कांयच परिणाम जायना.

एक खेपे सांगिल्लें कितल्याश्या खेपो सांगचें पडटा हाचे वयल्यान देख दिवपाची आमची तरा चुकल्या म्हणपाचें दिसून येना? मागीर, तेंच तेंच पर्थून पर्थून सांगपांत अर्थ कितें आसा? देख दिवपाची आमची तरा चुकल्या म्हणपाचें आमी मोन्यांनी मान्य करूंक जाय आनी आमची सांगपाची तरा बदलूंक जाय. आमी सांगतात तें भुरगीं आयकनात हाचीं कारणां आमी सोदून काडूंक जाय. तेंच तेंच भौन भौन सांगचें बदला सांगता तें तांकां पटचें म्हूण नवे नवे उपाय सोदून काडूंक जाय.



**- गोदूबाय केळेकार**

पिरवळ - गोंय.

('फुलत्यो कळयो' ह्या पुस्तकांतल्यान)

# बुद्‌वंतकायेची मागणी



एक फावट एक राजा भेस बदलून मिर्गांतले काळखे राती एका अरूंद रस्त्यावयल्यान वतालो. असो भेस बदलून आपल्या राज्यांत भोंवडी करून आपली प्रजा कशी जियेता हें तो पळयतालो.

ते रातीं पावसान तो चिप्प भिजलो. पूण ताका ओलसाणेची पर्वा नाशिल्ली. काळखाची आनी संकश्टांचीय ताका भिरांत दिसनाशिल्ली. देखूनच तो सवकास पूण सादूरकायेन मुखार वतालो.

ताका कळनासतना धा बारा चोर ताज्या फाटोफाट वताले. राजा ज्या घोड्यार बसून वतालो तो ताचे नदरेंत भरिल्लो आनी तो चोरपाचो तांचो हेतू आशिल्लो. अकस्मात तांणी राजाक गराडो घालो. घुरी अचकीत जाल्ल्यान राजाक अजाप जालें, पूण तो भियेलो ना. तांचे मदल्यान वाट काडून ताणें घोडो भरधांव सोडलो. पूण दुर्दैवान घोड्याची टाप रस्त्यावयले खांचींत शिरकली. चोर राजाचेर तुटून पडटले इतल्यांत फाटले वटेनच्यान स तरनाटे ताजे मदतीक धांवन आयले. हे अचकीत घाल्ले घुरयेन चोर गोंदळ्ळें आनी राजा वाटावलो. जेन्ना राजा भेस बदलून भोंवडेक भायर सरतालो, तेन्ना ताजे राखणदार अंगरक्षक कांय अंतर सोडून ताज्या फाटोफाट वताले! हो सगळो बोवाळ जाता म्हणसर तेय थंय पावले आनी सगल्यांनी मेळ्ळून चोरांक धरले.

त्या स तरनाट्यांक आपणें जाचो जीव वाटायला तो राजा म्हणचेलें खबर लेगीत नाशिल्लें. नकळटां तांणी राजाची सेवा केल्ली. देखून राजा तांचेर प्रसन्न जालो आनी तांचे उपकार मानून ताणें तांकां आपल्या वांगडा राजवाड्यांत व्हेले.

ते तरनाटे वेगवेगळ्या गांवांतल्यान आयिल्ले. हांगा येतकीर एकठांय राविल्लेकडेन तांची एकामेकांकडेन वळख जाल्ली. सकाळ म्हणसर रातीची गजाल सगल्यांक पातळ्ळी. राजाचो जीव वाटावलो म्हणून सगलेच खोशी जाले. राजाचो परिवार, कुटुंबीय, मंत्री, हेर दरबारी आनी राज्यांतल्या सगल्या लोकांनी त्या तरनाट्यांची भोव तुस्त केली.

राजा दरबारांत येतकीर ते सय तरनाटे ताजेमुखार हजर जाले. राजा

आपल्या सिंहासनावयल्यान उठून सकयल आंयलो आनी ताणें तांकां वेंग मारली. तांणी केल्ले सेवेखातीर तांचो भौमान करचेली इत्सा राजान उलोवन दाखयली.

"तुमचे पैकीं जण एकल्यान खोस जायत अशें कितेंय म्हजेकडेन मागचें. तुमची इत्सा म्हजे तांकी भायली वा शक्ती भायली नासली जाल्यार हांव रोखड्या रोखडी ती भागयतलो." राजान तांकां सांगलें.

सय तरनाटच्यां मदलो जो व्हडलो आशिल्लो ताका पयलीं आपली इत्सा सांगूक लायली. खीणभर चिंतून ताणे म्हळें, "म्हाराज, सोबीत अशा बंगल्यांत रावपाची म्हजी खूप दिसां सावन इत्सा आसा. तुमी ती पूर्ण करशात?" राजान रोकडोच वास्तुशिल्पकाराक आपोवन हाडलो आनी त्या तरनाटच्यांखातीर एक आलीशान बंगलो बांदूंक सांगलें.

दुसऱ्या तरनाट्यांक लोकांनी आपल्याक प्रतिश्टीत म्हणून वळखुचें अशें दिसतालें. राजान ताका सरदार करून आपल्या दरबारांत भोव मानाचें स्थान दिलें.

तिसऱ्या तरनाटच्यान म्हळें, "म्हाराज, दर आठवड्याक म्हज्या गांवचे लोक शारांत फळां, भाजी, विकूंक येतात. पूण रस्ते बरे नाशिल्ल्यान तांकां खूप त्रास जातात. पावसा दिसांनीं तर खूबच! तेखातीर गांवांतले रस्ते सारके करचे ही म्हजी इत्सा."

राजान मान्यताय दिली आनी बांदकाम खात्याच्या मंत्र्यान रोखडीच ते गजालीची नोंद करून घेतली.

चौथ्या तरनाट्याक विचारतकीर ताणें लजेन म्हळें, "म्हाराज, तुमी म्हाका बापायसमान, म्हजेखातीर एक सोबीत व्हंकल सोदून काडात."

राज्याच्या दरबारांत खुशमस्करो आशिल्लो, ताजे सोबीत धुवेचें लग्न त्या तरनाटच्यां वांगडा करूंक राजान ताका सांगलें. तोय खोशेन तयार जालो.

पांचव्या तरनाट्यांक गिरेस्तकाय जाय आशिल्ली, ताका राजान भांगरान भरिल्ल्यो थैल्यो दिल्यो.

निमाणेकडेन सव्या तरनाट्याची पाळी आसली. ताणे म्हळें, "म्हाराज, जे मेरेन आमच्या दोगांय मदलो एकलो कोणय मरना, ते मेरेन वर्सांतल्यान एक फावट तुमी म्हगेर सोयरे म्हणून येवचें."

हीं उतरां आयकून सगल्यांक अजाप जालें. जायत्या जाणांनीं ताका पिशार काडलो. राजाकय ताजी इत्सा विचित्र दिसली. पूण आपले तांकी भायली नासली जाल्यार आपूण ताजी इत्सा पुराय करतलों अशें उतर राजान ताका दिल्लें आशिल्ल्यान दर वर्सा एक दीस आनी, एक रात त्या तरनाट्यांगेर रावपाचें राजान मान्य केलें.

राजान हें मान्य करतकीर ताणें हे वर्सुकी भेटीची सारकी वेवस्था पळोवपाची जापसालदारकी ताज्या दरबारांतल्या वेगवेगळ्या खात्यांतल्या लोकांचेर येवन पडली.

पयली गजाल म्हळ्यार राजाचो प्रवास बरे तरेन जावचो म्हणून त्या तरनाट्याच्या गांवांमेरेन बरो रस्तो बांदून घेवचो पडलो.

मागीर प्रस्न उप्रासलो तो येदो व्हडलो राजा त्या तरनाट्याच्या ल्हानशा घरांत कसो रावतलो हो. म्हणटकीर राजाच्या मुक्कामाक फाव सारको भव्य वाडो तांकां बांदचो पडलो. येद्या व्हडल्या वाड्याची देखरेख, शिवाय राजा आनी ताजे सेवक हांची जुस्ताजूस्त सरबराय हें सगळें, तरनाट्याचे इल्लेशे येणावळीचेर शक्य नाशिल्लें देखून भांगरान भरिल्ल्यो थैल्यो आनी वर्सुकी येणावळ ताका चालू करची पडली.

चलत आयिल्ले प्रथेप्रमाण राजा फकत राजघराण्यांतल्या कुटुंबांचोच सोयरो जावं येतालो. म्हणटकीर त्या तरनाटच्याकय राजकुंवराचो दर्जो दिवचो पडलो. आनी त्या दर्जाक फाव तसो मान भौमान ताका प्राप्त जालो.

तरीकय अजून आनीक एक गजाल उरिल्ली. राजा सोयरो म्हणून वता त्या घरचे यजमान्नीक राजघराण्याच्यो चाली-रिती, राजाच्या जेवणाची आवड-निवड हें सगळें खबर आसचें पडलें. राजाचे धुवेबगर आनीक कोणाक तेविशीं चड बरी खबर आसतली? देखून रोखडीच राजकुंवरीच्या आनी त्या तरनाट्याच्या लग्नाची तयारी सुरू जाली.

अशे तरेन राजाकडेन फक्त एकच मागणी मागून त्या तरनाट्यान आपल्या इश्टानीं मागिल्ल्यो पांच मागण्यो तर मेळयल्योच, शिवाय आनीकय खूब खूब जोडलें.



**– मनोज दास**

**अणकार – मीना काकोडकार**

# ला य की



**ह्या** नाटकुल्याचो पयलो प्रयोग फोंडच्या आल्मैदा हायस्कुलाच्या वर्सुकी स्नेहसंमेलनात २२/१२/२००७ ह्या दिसा जालो. तातूंत वांटो घेवपी कलाकारांची वळख :

**राजा**
अरविंद केरकार
**राणी**
दीपश्री नायक
**प्रधान**
गौरव कासकर
**प्रधानाची बायल**
गौतमी नार्वेकार
**गरीब**
अभिराज नायक
**निवेदक**
रीम्मी सिनाय प्रियोळकार

**निवेदक**– एक आसलो राजा, ताची सुखी सगली प्रजा
सगलेच धादोशी, राज्यांत मजाच मजा.
तर इश्टांनो राजाक कांयच उणें नासलें.
ताका एकूच तळमळ. राज्यांत कोणूच दुख्खी उरूंक फावना.

**(राजा शिवांसनार बसला. प्रधानजीक आपयता)**

**राजा** – प्रधानजी, तुमी राज्याचो आयचो नियाळ सांगलोना? सगलें ठाकठीक आसा मूं?

**प्रधानजी** – महाराज, सगलें तशें वेवस्तीत आसा. पूण.

**राजा** – हें पूण किदें? बेगीन सांग. म्हज्या राज्यांत उणाव नांवाची गजाल उरूंक फावना.

**प्रधानजी** – शिमेर खंय एकलो गरीब खांकनवाळ भिकाड्डो कसो मनीस बसला. किदेंय खावपाक दिल्यारूय खायना. सामको कफ्फलक. कपडे पिनकरे.

**राजा** – प्रधानजी, चल या सोमतेच थंय. तजवीज कर. हांवूच उलयतां ताचेकडेन. म्हज्या राज्यांत गरिबी म्हणटात ती गजाल मात्तूय उरूंक फावना.

**निवेदक** – तर असो हो राजा. प्रजेचें दिसरात चितपी. स्वता प्रजेखातीर जीव घालपी. राजा प्रधानजीक घेवन शिमेर गेलो. कितें घडलें?....

**(राज्याचे शिमेर एकलो पिनके कपडे घालून मनीस बसला.)**

**राजा** – तुका कपडे दिवपाची तजवीज हांव करतलों. प्रधानजी.... हाका रावपाक घर आनी कपडेलत्ते सगली वेवस्ता करात ताबडतोब.

**गरीब** – महाराजांचो जयजयकार जावं. (मुजरो करता) महाराज, म्हाका घर-कपडे फुकट नाका. म्हाका कामधंदो दियात. कसलेंय चलता. फुकटांतले खाल्ले अन्नागोटे म्हाका पचचेना. कितेंय पूण ल्हानशीच नोकरी...

**राजा** – **(कवतुकान)** अपुरबायेचो. तुका नोकरी दिली म्हूण

समज. फाल्यांच्यान राजदरबाराचें पोरसूं तुवें सांबाळपाचें. ताची देखभाल करपाची.

**गरीब** – राजाची आज्ञा पाळपाक सेवक तयार आसा, म्हाराज.

**निवेदक** – तर हो गरीब मनीस स्वाभिमानी. आयतें खावपाची आळशी वृत्ती ताचेकडेन नाशिल्ली. तो राजाच्या उद्यानाचें काम पळोवपाक हजर जालो. खूब म्हळ्यार खुबूच प्रामाणीक. सकाळीं वेळापयलींच येवपी. मन लावन काम करपी. खबरी ना. झांकड्यो ना. काम म्हळ्यार पूजा ही ताची धारणा. राजा ताची सेवा पळोवन खूश जालो. स्वता राजा एक दीस ताचे सरीं गेलो.

**(राजा गार्डनात वता. गरीब मनीस कालसांव आनी शर्ट घालून पोरसांत नडणी करता.)**

**राजा** – तुजी प्रामाणीक सेवा पळोवन हांव खूश जालां. आमचें पोरसूं तुवें स्वता राबून सोबीत फुलयलां. राणयेक तुवें लायिल्ले गुलाब आवडटात. पुजेखातीरय ती आतां फुलां ह्याच पोरसांतल्यान मागयता. सांग. माग. तुका किदें दिवं?

**गरीब** – धनयानो, तुमी म्हाका सगलें दिलें. रावपाक घर दिलां. नोकरी दिल्या. पगार आसा. किदें कमी आसा?

**राजा** – ना, तुवें म्हाका खूश केला. मागचेंच पडटलें.

**गरीब** – हांव तुमचो निश्ठावान सेवक. सेवक किद्याक मागतलो? धनीच येदो व्हडलो. कांयच कमी करिना.

**राजा** – म्हाका सगली खबर आसा. तूं शिकला. वाचूंक बरोवंक जाणा. फाल्यांच्यान तुवें म्हज्या दरबारांतलो सगलो हिशोब पळोवपाचो. पगार चड. रावपाक खास घर. जालें?

**गरीब** – हो दीन दास तुमचो. तुमची आज्ञा शिरसावंद्य म्हाराज. पूण–

**राजा** – पूण बी कांय ना. तूं किदें सांगूंक सोदता हांव जाणा. म्हाका जाय काम करपी, पात्र लोक आनी सगल्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार विश्वासू. आज काल असले सेवक कमीच.

**निवेदक** – राजा उदार. शाणो. न्याय दिवपी. गरीब मनशाक ताणे राजदरबारांत आपलो विश्वासू रोखपाल केलो. राजा ताचेर खूश. राणीय ताचेर खूश.

**(राजा आनी राणी उलयता.)**

**राणी** – राजन, इतलो बरो कर्मचारी मेळ्ळो. आनी आमची राजवेवस्ता आनीकूय चकचकपाक लागली.

**राजा** – हय राणये.

**राणी** – राजन, तो सकाळीं सगल्यांत पयलीं येता. सगल्यांत निमणो वता. अजूनय म्हजेखातीर पुजेचीं फुलां, गुलाब धाडटा. गार्डनांत काम करी तें तो विसरूंक ना. आनी सामको नम्र. आपली पायरी सामकी सकयली हें समजून तो सामकोच लजेता.

**राजा** – तुका खरें सांगूं. दर दिसा तो आपल्या हुशारेची आनी प्रामाणीकपणाची झलक दाखयता. आमचो प्रधान जाला आळशी. हाकाच हांव म्हजो मुखेल प्रधान करूंक सोदतां.

**राणी** – हांव नेमकें तेंच म्हणूंक सोदी.

**निवेदक** – नसाय, दुस्वास, कुसकेपणा हीं करचीं पडटात? तीं आपशींच तकली वयर काडटात. घे गा. सगलेच ताचेर जळूंक लागले. इतले बेगीन इतलीं प्रमोशनां? तांकां तें पचलेंना. रूचलेंना.

**(प्रधानजीक ताची बायल चाडयो सांगता)**

**प्रधानाची बायल** – तुमी वोगी रावलेच कशे? आतां राजा ताका तुमच्या माथ्यावयर बसोवंक सोदता खंय!

**प्रधान** – आगे आयकून तरी घे. तणतणटा किद्याक? राजाचो हुकूम निमाणो बंधनकारक आसता.

**प्रधानाची बायल** – खंयच सोबना हें. रस्त्याकुशीक पडिल्लो एक भिकाड्डो. बोनऱ्या कापड्यांतलो. ताका आतां मुखेल प्रधानाची वस्त्रां?

**प्रधान** – आमी कांयच करूंक शकना.

**प्रधानाची बायल** – शकतात. (कानांत फुतफुतता)

**प्रधान** – तशें जाल्यार तूंच कर हें काम राणयेच्या कानार घालपाचें.

**निवेदक –** सगल्यांनी राजाकडेन त्या गरीब मनशाविशीं चाडयो करपाक सुरू केल्यो. पूण राजा बदलोना. प्रधानजीचे बायलेन वचून राणयेच्या कानांत वीश ओतलें.

**प्रधानची बायल –** राणीसायबा, तो सदांच घरा वता आनी आपले कुडींत वचून एक ट्रक उगडटा. तातूंत तो तिजोरेंतलीं माणकां मोतयां दवरता आसूंक जाय.

सगलेंच ताचे सुवादीन करप योग्य न्हय. हें आमी तुमकां सांगप योग्य न्हय. तरीकूय...

**राणी –** आमकां खरें दिसना. अश्यो खूब वावडचो आमी आयकतात. तरीकूय आज तुमी म्हणलें म्हणून म्हाराजांच्या कानार परत घालतां.



**निवेदक –** राणयेन राजाक सांगलें. राजान ती गजाल आयकल्ली. पूण सगले जाण ताचेर बगलांटां घालूंक सोदतात हें राजा बेस बरो जाणा आशिल्लो. निमणो राजा ह्या चाडयांक विटलो. एक दीस नाखुशीन तो त्या मनशाच्या फाटोफाट ताच्या घरा गेलो.

**(गरीब मनीस आपल्या घरा गेला. कुडींत वचून तो सुटकेसीक हात घालपाक राजा भितर येता. पावलांच्या आवाजाक लागून तो फाटल्यान वळून पळेता)**

**गरीब –** राजन, तुमी ह्या गरिबागेर?

**राजा –** तें बॅग उगड.

**गरीब –** राजानो, तातूंत तुमचे खातीर कांयच ना.

**राजा – (आवाज चडोवन धेंगसो)** म्हजो हुकूम. कुलूप उगड. म्हाका पळोवंक जाय.

**(फाटींफुडें जावन अनमनत तो बॅग उगडटा. राजा भितर पळेता. हात घालून तातुंतलीं पिंजकीं वस्त्रां भायर काडटा)**

**राजा –** हीं किदें पिशेपणां?

**गरीब –** राजन, तुमी म्हाका नोकरी दिल्ली. त्या दिसाचीं हीं म्हजीं वस्त्रां. म्हजी लायकी. जो आज हांव आसां तो तुमच्या आशिर्वादाक लागून. जो मान म्हाका मेळटा तो तुमकां लागून. अहंकाराची आनी मदाची नशा तकलेंत चडची न्हय म्हूण हांव दरबारांत येतना आनी येतकच ही म्हजी खरी लायकी म्हाकाच सांगतां.

**राजा –** (दोळे पुशीत ताका वेंग मारता) आरे, सेवक आसचो तुजेसारको. तुका हांवें आज मुखेल प्रधान केलो.





**– मुकेश थळी**
राजांगण, शांतीनगर,
फोंडें



## दोळ्यांतलें मोती

तुज्या पोल्यावेल्यान
दोळ्यांतलें एक मोतीं
टप्प SSS करून सकयल पडलें
वसुंधरेच्या अस्तित्वात
विरगळचे पयलीं
हांवें तें अचळय उखल्लें
आनी काळजाचे उबेक धरलें
एक याद आनी
भेटोवंक नाशिल्ली भेट म्हणून
आजूनय तें म्हज्या
काळजाच्या कुरकुटांत
सुगूर आसा
तुका जाय तेन्ना
तूं तें घेवन वच
व्हरतासतना एक चत्राय
परत काळीज दुखय नाका



– सुनील पालकार
नावशी
पोस्ट: गोवा युनिवरसिटी
पीन : ४०३ २०६



## म्हजें गोंय

गोंयच्या म्हज्या मातयेक
जायांजुयांचो परमळ
वता थंय दिसता जंय
नागेश मंगेश उत्रावळ

गोंयच्या म्हज्या दोंगरांक
पांचवीचार साडी
बों जेझुचें कोंवेंत
पयस करता अडीनडी

गोंयच्या म्हज्या न्हंयांक
मांडवी जुवारीचें न्हाण
अरबी समुद्राक थंय
मत्सगंधेचें ज्ञान

गोंयच्या म्हज्या मनशाक
अप्रुपाचो हांसो
संवसारभर वचून
दुधसागराचो घसघसो



– भिकाजी घाणेकार
लिदिया गार्डन,
सांत इनेज, पणजी
फोन : २४३१३६५



## वांगडी

कोण तो आसतलो
जो वांगडी म्हज्या जिवनांतलो जातलो?
आपलें अखील जीवन जो म्हज्या नांवार
करतलो

देखपाक जो रूपेस्त आसतलो
मनान जो गिरेस्त आसतलो
गुणान जो देखवंत आसतलो
कोण तो आसतलो
जो वांगडी म्हज्या जीवनांतलो जातलो?

खोल म्हज्या काळजांतलें
गुपीत समजतलो
आपल्या अदीक
जो म्हजेर मोग करतलो
मोन्यानी उल्लेले शब्द
जो काळजांतल्यान आयकतलो
आकूळ पिकूळ जाल्ले जिणेक
जो माये मोगाच्या उतरांनी सांबाळतलो
कोण तो आसतलो?
जो वांगडी म्हज्या जीवनांतलो जातलो.

– पुजा दिनानाथ बोरकार
खारे बांद,
मडगांव - गोंय.

# रेडो – जळार

नाचत उडत एक जळार
आपल्या घरा गेली
– मम्मी मम्मी आयज हांवें
जळार पळयली मोठ्ठी

– जल्ल्या येदी?.... न्हय गे मम्मी
– पाली येदी?..... न्हय
– हुंदरा येदी?.... न्हयच जाल्यार
– सुण्या येदी?..... न्हय गे...रेड्या येदी
सूट घालता बूट घालता
चलता रेड्यावरी
रावता बंगल्यांत
भोंवता गाडयेन
वयता परवरी

थंय आसा जळारी रेबो
थंयच जाता तांच्यो मिटींगो
कोणे कोणाक चाबचें
थंयच बसून थरता चिटींगो
कोणे कितलें रगत घोटलें
ताचोय हिशोब थंयच जाता.

मम्मीन म्हणलें –
येद्या मोठ्या जळारांक
रगत कितलें जाय पडटा?

– जाणा मम्मी
खूब रगत पियेतात
रगताचेरूच जियेतात
चवदा लाख लोकांचें
रगत उणेंच पडटा
तांची आख्खी फामील
त्याच रगतार पोसता
आमी फकत कानाकडें
ऊं...ऊं... करतात
तांच्यो गाडयो गोंयभर
कूं...कूं... करतात

गरिबांच्या हातार पोटार
आनी कपलार लेगीत बसून
चींव चींव चिंवतात
आनी जाणा मम्मी
कितलें कितलें खातात....

– कट्टीभर?.... न्हय गे मम्मी
– ताटभर? ....न्हय
– तोपभर? ....न्हयच जाल्यार
– पोटभर? ....न्हय गे
व्हडलीं व्हडलीं झाडां
खातात कातरून कातरून
व्हडलीं व्हडलीं रानां
खातात ल्हासून भाजून
दोंगरांचे काडटात कपचे
शेतां आनी भाटां
कांय न्हय करून गिळटात
मनशांचीं मोडटात घरां
पुलीस लेगीत तांणी
घेतल्यात खंय विकते.

आमचेकडेन बरे संबंध
कित्याक कोण जाणा!
पणजे प्रासार आमचेखातीर
व्हडलें कोंड केलां

मम्मीक दिसलें
येदे मोठे जळारीक
दोळे भरून पळोवचें
मानेर ताचे बसून
इल्लें रगत पियेवचें

मम्मी मम्मी, तूं तांकां
वळखतली कशी?
– शिंगांवयल्यान?....न्हय गे मम्मी
– शेपडेवयल्यान?....न्हय
– पोटावयल्यान? .....न्हयच
जाल्यार
– खावडीवयल्यान? ..... न्हय गे
कूं...कूं..करता तसली
धवी आसता गाडी
तकलेर सदांच रगतान भरलेली
बाटली आसता उपडी

आवय बाबडी उडत उडत
गेली परवरी
दोंगर पोखरून केल्लो रेबो
पूण एकूय जळार नासली
सगलीं गेल्लीं रगत पिवपाक
गोंयच्या खांची कोनशांनी
सोदलीं रानां, सोदल्यो वेळो
सोदलें वचून दोंगरार
पुरो जालें तेन्ना वचून
बसली एका मळार

संडासाचें उक्तावण करी
एक रेडो-जळार
ताका पळोवन जळारी तोंडाक
सोमतें सुटलें उदक
खावन पिवन रेड्या – आंगार
जाल्ले मासा गुळे
असल्या रेड्या रगत पिवपाक
तिचे खरजूंक लागले सुळे
रोकडीच तिणे वचून ताचेर
मारली आपली सूय
त्याच खिणाक
फाल्सीफोरम जावन
जळार पडली भूंय

मेडिकलांत ॲडमीट केली
तेच रातीं मेली



– भरत नायक
रेगो बाग,
आल्तो सांताक्रूज

## मरण एका अस्तुरेचें

हय आज ती मेली
अचकीत ती पालवली
वात एका दिव्याची
भयण एका भावाची
आवय एका पुताची
हय आज ती मेली

तिची कूड आतां सजयली
गुलाबाच्या फुलांनीं
मोगऱ्याच्या कळ्यांनी
गुंतिल्ल्या हारांनी
तिका न्हेसयलो
तांबडो शालू
तांबडी पिंजर
ओटी भरली
दुकां गळ्ळीं
हुंवार आयलो दुकांचो
शेणिल्ल्या मोगाचो
सोंपिल्ल्या खिणाचो
हुंवार आयलो दुकांचो

तिची कूड व्हंकलेवरी दिसताली
तिची सोबितकाय अजूनय सांगताली
दोळे भरून तो तिका पळयतालो
काळजांतल्यो यादी
खंयच्या कोनशाक दवरूं?
आतां खंय तूं मेळटलें?
खंय तुका रावूं?
निसणीर न्हिदायली
खांद्यार उखलली
मसंडेंत पावतकीर
सगळेंच बदललें
आतां सगळो संवसार
परतो जाल्लो
तूं जें धांपतालें
तूं जें सांबाळटालें
तूं जें लिपयतालें तें उकतें पडिल्लें
धर्माच्या नांवान
सगळ्यां सामकार
नागडी केली

सरणार न्हिदायली
लागसून पैससून
सगळ्यांनी तुका
उगड्या दोळ्यांनी
उगडें पळयलें
एका एका लाकडा पोंदा
तुजी कूड दिसताली
एक लेगीत कापड नाशिल्लें
सगळ्यांच्या दोळ्यां देखत
उगडी नागडी काया तुजी
उज्यान गोबोर जाली

तूं भगभगताली
तूं जळटाली
आनी आमी सगळे
घरांतले .... भायले
फुडले .... फाटले
शेजारी ... पाजारी
तुका सासणाचो
निरोप दिवंक
तुजे अंतीम
दर्शन घेवंक
तुका दोळे भरून
पळोवंक
मसंडेंत एकठांय जाल्ले.



– शोभा फुलकार
मो. – ९२२६३५९३६५

## निराधार

मोराचे आर्त रूदन
कापता गावची शांतता
आमच्या गावान मोर नाचता
गावची प्रजा खोशेता

मोर आनीकूय कुथनेता
दुका गळैत म्हण्टा
रानाचो समुध्द वाठार
झाडां कापून केलो तुमी उजाड
म्हणून हांव पडलो गांवांर
आता SEZ आयल्यार
तुमीय पडटले गांवांभायर
जावन निराधार

– सरस्वती दा. नायक
श्री. स्वस्ती,
सांकवाळ

## सॉपन्न

मगले सॉपन्न आस्स
नीळ्या नीळ्या आकाशाचें
गोमट्या गोमट्या मॉडांचें
पक्षांगले चिंवचिंवटाचें
झाडावयल्या पान्नांच्या सळसळाटाचें
वारे पावसांचे वीज गुडगुडाचें
समुद्रांतल्या वेद घोषाचें
गायकागल्या सुरांचें
नर्तकिगल्या घुंगारांचें
गायेगल्या गळ्यांतल्या घांटेचें

– वीणा पेजावर
बेंगळूर

# आमची जमीन



**आ**मी नव्या वर्सांत भितर सरल्यांत आनी नवे विचार आमच्या मनांत अजून घोळत आसात. नातालांच्या निमित्तान जायत्यो भासावण्यो आमी केल्यात आनी ह्या भासावण्यांत गरिबांक आदार करपाचीय भासावणी आसा. ज्या ज्या वाठारांत, राज्यांत जावं देसांत गरीब लोक आसात ताका आदाराचो हात दिवन वयर काडप आमचें कर्तव्य जावन आसा. आमचे मुखार जेन्ना संकल्प आसना तेन्ना आमी सदच्या कामाशिवाय कितेंय करपाक अनमनतात पूण कांय दीस आदी गरिबांक आदार करपाक देवाक दिल्लें उतर नेगार वचूंक शकतात?

सदद्याक़ गोंयभर शेझच्या नांवान गोंयची जमीन विकपाचो बोवाळ चालू आसतनाच राय गांवांत एक बोवाळ सुरू जाला. दोन म्हयने आदीं ही गजाल आयकल्ली आनी कांय दीस आदी दिसाळ्यांचेर छापून आयली. ब्लूम्स इंटरनॅशनल स्कूल हे संस्थेन राय कोमुनीदादीकडेन सुमार तीन लाख चौकण मेत्रां जमनीची मागणी केल्या. आपल्या स्कुलाक आंतरराष्ट्रीय दर्जो दिवपाखातीर बोर्डींग सुविधा तशेंच आंतरराष्ट्रीय दर्ज्याचें खेळामैदान उबारपाक तांका ती जमीन जाय. राजकी मनशांक मुखार घालून रायची इतली जमीन स्कुलाच्या नांवान हडप करपाचें एक गंभीर कारस्थान उबें जाल्लें आसा. ताका राय पंचायतीन आक्षेप घेतला. रायच्या ग्रामस्थानी आक्षेप घेतला. तरी आसतना जर ती जमीन स्कुलाक दिली जाल्यार राय गांवांत एक व्हड आंदोलन उबें जावपाची भिरांत आसा.

कोण तरी मुखार सरता आनी कोणाची तरी जमीन स्कुलाखातीर मागता तेन्ना सरकार रोकडीच ताका परवानगी दिवन उडयता. सरकाराचें म्हणणें शिक्षणाखातीर जितल्यो सोयी निर्माण जातात तितल्यो कमी. पूण शिक्षणा खातीर जेन्ना सरकारान कितेंय करपाचें आसा तेन्ना सरकार धा पावलां फाटीं रावन दुसऱ्यांक बोटां दाखयता. आमच्या सरकारान चांटेपावलाक म्हणटात ते भशेन आंगणवाडी उक्त्यो केल्यात. पूण ते आंगणवाडींत आमचीं माणकुलीं भुरगीं कसले अवस्तेंत आसतात हाचेर केन्ना नियाळ केला? तांकां जेवण दितात ताचेर केन्ना दोळो दवरला? तो जागो कितलो अशीर आनी कमी उजवाडाचो आसता ताचेर अभ्यास केला? आंगणवाडी बाई आसतात त्यो कसले अडचणींत काम करतात तांची अडचण केन्ना समजून घेतल्या? अश्यो साबार कागाळी एका मळाचेर आसात. तरी सरकार म्हणटा 'बरें चलता'. तेंच जर खाजगी आंगणवाडी तुलनेंत हाडल्यार...... सांगपाची गरज ना. प्रत्येक जाणांक दिसता आपल्या

भुरग्याक सरकारी आंगणवाडींत सोडून खंयचेय आंगणवाडींत धाडूंक पडल्यार जाता, इल्लो खर्च करूंक पडल्यार जाता. देखून सरकारान सगळ्याक मर्दी पडूंक जायना.

आमी आंतरराष्ट्रीय स्कुलाक विरोध करिनात. बगर ज्यो जमनी लोकांचे गरजेक जाय त्यो व्हरून आंतरराष्ट्रीय स्कुलां नाकात. राय हो एक व्हड गांव. तरी राय रावपी कुटुंबांचेर नदर मारल्यार ते चिड्डून चिड्डून रावतात. तीग जण-चार जण भाव लग्न जावन पसून एकाच घरांत रावतात. कित्याक? आज राय गांवांत एक ते चार हजार रूपया मेत्रा कोंतान जमीन विंकतात. तश्यो सोदूंक गेल्यार जमनी मेळनांत. जमनी उरल्यात त्यो कोमुनिदादीच्यो. त्योय बी कोण कोण काबीज करीत आसात. ही परिस्थिती रायच न्हय तर संबंद गोंयांत घडत आसा. राजकी मनीस असल्या घुस्पागोंदळांत चड घुस्पल्ले आसात. ह्या स्कुलान मागल्या ती एकच जमीन (सुमार पांच लाख चौ. मे.) कोणाची नदर वचनासतना आसली. ती ह्या स्कुलान सोदून काडून आपल्या खातीर मागल्या.

रायत चडशे अनुसुचीत जमातींतले लोक आसात. ते चडशे गरीब. तांचीं भुरगीं शिकतात. एक दीस तांकां दिसतलें आपणें वेगळें रावंक जाय म्हण. तेन्ना तांचे खातीर जमीन आसतली? मागीर ताणें गांवा भायर जमीन सोदूंक वचपाचें. ना जाल्यार आनीक चिड्डून रावंक शिकपाचें, वो घुस्मटून मरपाक तयार जावपाचें. रायत अशे जायते तंटे पुलिसेंत लेगीत नोंद जाल्ले आसात. देखून आता जशें शेझाखातीर गोंयभर लोक उठल्यात तशे रायकार उठपाक लागल्यात. ग्रामसभेन विरोधांत थाराव घेतिल्लोच आसा. राय वेल्फेर असोसियेशन एक मांडावळ करता. जे जे गरीब लोक आसात आनी एकाच घरांत चिड्डून रावतात तांकां वीस कलमी कार्यावळी सारखी कार्यावळ करून तो जागो विकसीत करपाक. ताच्या हाताक हात दिवन राय शेड्युल्ड ट्रायब्स फोरमान आपल्या समाजांतल्या सुमार ५०० लोकांक घरांची मागणी करपाचो प्रस्ताव तयार केला. ह्या लोकां खातीर लागू जावपी सादनसामुग्री तयार करपाचोय प्रस्ताव आसा. जंय खेळा मैदान, स्कूल, कॉलेज, व्यवसायीक कॉलेज, हॉस्पीटल, भलायकी केंद्रां सारख्या गजालींचो आस्पाव आसा.

ही एक गंभीर गजाल. ह्यो गजाली फक्त रायत घडनांत जाल्यार पुराय गोंयांत घडटात. गरीब लोकांनी मागीर खंय वचपाचें? ह्या स्कुलाक जमीन दिली जाल्यार कोण तरी एकलो मालक पयशे करून वतलो. पूण गांवच्या लोकांक दिली जाल्यार गांवचो लोक गांवांत उरतलो, आमची संस्कृताय तिगून उरतली आनी आंतरराष्ट्रीय स्कुलांच्या नांवान जो कोंकणीचो खेळ जाता ताका आळाबंद येतलो. आमचे मर्दी एक विकृती निर्माण जाल्या. शिक्षणीक संस्थेच्या नांवान मागल्यार सरकार कसलोय प्रस्ताव रोकडोच पास करता. प्रादेशीक आराखडो जालो, उपरांत शेझ आयलें आनी असलीं कारस्थानां मुखार येवंक लागल्यांत. खरें म्हळ्यार कोमुनिदादीनी चतूर रावंक जाय. पयशे मेळटात म्हण कशा-कशेय निर्णय घेवन आपली जमीन कोणाकय दिवंक फावना.

ह्या विशयाक धरून राय पंचायतीचो सरपंच, राय वेल्फेर असोसिएशनाचो अध्यक्ष, राय शेड्युल्ड ट्रायब्साचो अध्यक्ष, स्नोज अकादमी रायचो अध्यक्ष हाणीं एकठांय येवन आव्हान स्विकारलां आनी गरज पडल्यार गोंय बचाव अभियानाकडेन आदार मागपाची तयारी दवरल्या. रायचें राजकी मळ घडये दुशीत आसत, पूण समाजीक मळार वावुरप्यांनी विरोध करपाक पेंगट बादलां, तशेंच गोंयच्या हेर भागानीय विरोध जावन आपल्या गांवची जमीन आपल्या गांवाखातीर राखून दवरूंक आव्हान आसा आनी सरकाराकय धारेर धरपाची गरज आसा. शिक्षणाच्या नांवान कोणेय जमीन मागली जाल्यार ताका पयलीं गांवच्या लोकांचें मत जाणून घेवपाक लावचें.

गांवचे पंचायतीन, गांवचे कोमुनीदादीन, जिल्हा वांगड्यांन, आमदारान आनी सगळ्या गांवच्या लोकांनी असलीं प्रकरणां मोडून काडूंक जाय. गांवची जमीन गांवा भायल्यांक वचची ना हाची दखल घेवंक जाय. नव्या वर्सांत गरिबांखातीर आदार करपाची भासावणी केल्या थंय चिड्डून रावतल्या गांवकारांक आसरो मेळोवन दिवंक जाय, ताणी विस्कळीत रावन खुशालपणान जियेवंक. आंतरराष्ट्रीय स्कुलां आमच्या गांवांत बांदून घेवंया. पूण आमच्या गांवच्या भुरग्यांक फुकट शिक्षण मागूंक जाय. आमचे कुस्तार ताणीं पयसो करून वचपाचें आनी आमी चिड्डत रावन तांकां पळोवपाचें? गोंयकारानों जागे जायात. एकान एक संकश्टां येयत आसात. तांकां जाय फक्त गोंयची जमीन, तीच आडावपाचो आमी नवो संकल्प सोडुया. आमकां प्रादेशीक आराखडो नाका, आमकां सेझ नाका, आमकां आमचे पयशे मोडूंक लावपी संस्था आमच्या गांवांत नाकात. आमकां जाय सवस्तकाय, शांती, संस्कृताय, आमची भास आनी आमचें दायज.

आमचे जमनी सांगाताक वयले गजालींची आमी राखण करूंया आनी गरीब-गरजेवंत लोकांची आमकां दया-माया आसा म्हण सिद्ध करूया. नव्या वर्साची हीच भेट जावंदी.





**-विन्सी क्वाद्रूस**
'स्नोज कृपा'
आर्लेम राय
मो : ९८२२५८७४९८

# 'आत्या तुजी याद येता'



आंमकां जिणेचे वाटेर खूब जाणां मेळटात आनीक तीं वतना आमच्या वाट्याक तांचो मोग, यादी दवरून वतात. कांय यादी ओल्यो, सुक्यो तर कांय सुखदुखाच्यो, कांय बाविल्ल्यो तर कांय फुलिल्ल्यो. यादी बावल्यो, सुकल्यो तरी तुज्या ह्या मनाक परमळ दीत रावतात आनीक यादींची पिसोळीं मनांतल्यान उडटना दोळ्यांक बांद उरना हें म्हजे घराआतें वचत मेरेन म्हाका कळूंक लागलां.

आतें म्हळ्यार बापायची भयण चडशी सगळ्यांक आसता. चुकून कोणाकय नासत पूण एक मात खरें म्हज्या घरा आत्या सारकें आतें मात कोणाकूच आसचें ना.

भुरगेपणांत ह्या आत्याकडच्यान म्हाका जायतसो मोग मेळ्ळा. म्हजी उपाट अपुरबाय जाल्या. म्हाका याद उरपा सारख्या वयार म्हजें आतें म्हज्याच घरा रावतालें. म्हणूनच ताका म्हजेकडल्यान 'घराआतें' हें नांव मेळ्ळें. तशें पळोवंक गेल्यार म्हाका आनीक तीन आत्या आशिल्लीं. हें आमगेरच राविल्ल्यान चड लागीचें दिसतालें म्हळ्यार अतीताय जावची ना. म्हज्या भुरगेपणांत तें केन्नाय खंयी वतालें तेन्ना घर सामकें रिकामें जातालें. उणें उणें दिसतालें.

आवयन जल्म दिलो आनी ती भुरगेपणांतूच संवसाराक अंतरिल्ल्यान म्हजी सगळी अर्थ अपुर्बाय घराआत्यानच केली. ह्या घराआत्याच्या पांयार न्हिदपाक वेगळीच रूच आसताली. आत्यान म्हाका लावंक जाय म्हूण हांव रडटना जेवपाक हट्ट केल्यार दोळे मोटे करून तें जांगोळ पिळिल्यावरीं भिशटावन तोंडांत कशी उंडी कोबतालें तें आतां येवजिल्यार म्हाका हासूंक येता. न्हिदयतना 'भोपळ्यांतली म्हातारी' ही एकच काणी म्हज्या वाट्याक आसताली, तातूंत म्हातारेक खावंक येवपी वाघ, सिंह, कोल्हे भिरांकूळ आसल्यारय काकूळटेन भरिल्ले आसताले. त्या काणयेंतलें रान, मळ, दर्या, आत्याच्या दोळ्यांत म्हाका पळोवंक मेळटालें. हांव आत्याचो कान सांसपीत न्हिदतना आतें माये हातान थापटीत, गायतच न्हिदयतालें. आत्या बगर न्हिदच येनासली.

घराआत्याकडेन हांव म्हजो हट्टी स्वभाव गाजयतालें. केन्नाय भुरगेपणांत हांव पडलें तर आत्यानच उबारूंक जाय आसलें. आनीक कोणे उबारल्यार परत जमनीर दवरून आत्याकच उबारूंक लायतालें. नुस्त्या काटो ताळ्याक लागल्यार ताळ्यांत बोट घालपाचो अधिकार हांवें फक्त म्हज्या घराआत्याकच दिल्लो. आनीक आतें वानार वाटतना ताजे फाटीर पडून रावपाचो हक्क घराआत्यान म्हाकाच दिल्लो.

केन्नाय कितेंय रूचीचें म्हाका खायन दिसलें वा माथ्यार न्हावपाचो आक्त आसलो तर आत्याचेंच काम. आवयकडे सेवाकरून घेवप हाजेपरस आत्याकडेन वखद लेगीत घेवपाक कोण व्हडवीक. आवय आपल्या भुरग्यांचें करताच पूण घराआत्यान आवयपरस चड केलें, आईन सादो धेंकणो घाल्यार लेगीत राग येतालो. पूण आत्यान हात उबारल्यार लेगीत नदर वयर काडपाचें धाडस जालें ना, रागान दोळे मोठे केल्यारय आत्याच्या दोळ्यांत मोग उफेतालो.

आत्याचो स्वभाव शांत, सरळ आनीक शाणें. खूब समजूतदार आनीक मायेस्त. ताच्या सोशीकपणाक शीम-मेर नासली. म्हाका दिसता जशें काय जल्मांक घालतनाच देवान ताका सोशीकपणाच्या अर्कातच ताका बुडयिल्लें. ताच्या ह्या सोशीकपणांतलो गूण ताच्या पदरा पोंदा रावन म्हाकाय भोव थोडो मेळिल्लो म्हूण आत्यावरींच हांवें येतल्या संकटांक मोन्यानी पचयलीं. तिची तोखणायेची गजाल म्हळ्यार ती आसा ते परिस्थितींत समाधानी आसताली. ह्या म्हज्या घरा आत्याक हांवें केन्नाच असमाधानी अशें पळयलें ना. भितरल्यान पोखरतली चिंता ताणें केन्नाच मुखामळार हाडली ना. ताका लागूनच खंयचीय परिस्थिती पेलपाक म्हाका जड गेलें ना.

सोशिल्लें आनीक पोशिल्लें खंयच वचना म्हणपी आतें सदांच

अडचणींक पावतालें आनीक आपल्या कडेन आसा त्या परीन दुसऱ्याक दितालें. म्हज्या भुरगेपणांतल्यान म्हजेर बरे संस्कार ह्या म्हज्या आत्याचे जाल्ल्यान आयज म्हज्या भुरग्यांक वयर काडटना तांकां सांबाळटना सोपें पडलें. नकळत कांय जायना ह्या घराआत्याचे बरे संस्कार म्हज्या भुरग्यांचेरय जाल्यात.

भुरगेपणांत आतें म्हणटालें, तुजी रक्तापरस गुणांची माया तोखेवपाची, आपल्या धुवे परस नातरांपरस आत्यान म्हजी माया चड केली. हांव वयार येतगीर आत्यान म्हणप चलो भुरगो कर्तबगारी आसूंक जाय, ताजे रूपरंग थोड्याच दिसांचे. ताची नोकरी पगाराचेर गर्व दवरूं नाका. तुवें केदीय पदवी मेळयली तरी रांदतली कूड सांबाळूंकच जाय. तुज्या भुरग्यांचेर तुवें बरे संस्कार करूंकच जाय! आतें सदांच म्हणटालें. भुरग्यांक मारून, तापोवन संस्कार जायनात. घरांतल्या वातावरणांतल्यान ताचेर ते जातात. तेन्ना समादानाचें जनेल उगडें दवरून तुवें सुखाचें वत घरांत आपोवचें. घोवाकडेन आसा म्हूण घसफस करप नासता. आपले लोक म्हणटात ते लग्न जातकीर घरचीं. तांकां कुळारच्या लोकां परस चड बरें करप. सगळें जग तुजेवरीं आसचें ना. तुवें जगावरी जगूंक शिकचें. जग रंगबेरंगी आसता. जशीं रूपां तशीं मनां. कितलेय वायट प्रसंग आयले दु:खां आयलीं तरी आपणे धीर सोडचो न्हय. तातुंतल्यान खुबसो अणभव येता. तूं तातुंतल्यान घट्ट आनीक शाणें जाता.

भुरग्यांक कशी शिस्त, रीत लावप तांची अपुर्बाय करप ती कितली आनीक केन्ना करप, तांकां कितलें स्वातंत्र्य दिवप आनीक खंयच्या वेळार दिवप, तांचे प्रत्येक चुकीची ख्यास्त कशे तरेन दिवप हें हांव आत्याकडेन शिकतना, भुरग्यांची आवय, इश्टीण जावन कशी रावता हेंय हांव शिकलें.

दुसरो तुजेकडेन वायट वागता म्हूण तुवें ताजेकडेन वायटच वागूंक जाय अशें ना. म्हणपी म्हजें आतें सदांच म्हण्टाले. बायलेन सदांच सोशीक आसूंक जाय सोशीकपणांन नातें बरें उरता, पायांची घाण नाकाकडेन व्हरत तर चडच घाण येता, ती पायापायांक पुसून वडोवंक जाय म्हण्टकच जो तुजेकडेन वायट वागता ताकाय ताजी चूक कयटा.

खुबवेळा हांव आत्याक विचारतालें, 'आत्या तुजें भुरगेंपण गेलें?' ताचेर तें हांसत म्हण्टालें, 'कशीं म्हूण सांगूं म्हजें भुरगेंपण तीन चलयांचेर तुजो बापूय जालो उपरान्त हांव परत चली. गेले एकंदरीत बरे. सहसा हाजेर चर्चा अशी केन्ना जालीच ना. आत्याचें वयार लग्न जालें पूण देवाचे हातांत सूख दिवपाक जमलें ना. एक चली जातनाच आत्याचेर दुखांचो दोंगरच कोसळ्ळो ती खबर केन्ना जाणा जावन शी घेवपाचो हांवे धीर केलो ना भितरली ताची उमेदच बाविल्ली.

पुरूमेता दिसांनी आईपरस आत्याकच पुरूमेताचो बोवाळ दिवाळेदिसा कानामाथ्याक तेल घालून सोस लावन आत्यानच तिबे लावन पानाकारीट बांदिल्ल्या तांबयान भाणातल्यान खतखतीत उदकान न्हाणोवप. म्हज्या दर वर्सा जल्मदिसा आते म्हाका फुल थंय पाकळी दितालें. हांव येदे व्हड जाले तरी ते म्हजो जल्मदीस केन्नाच विसरले ना.

आत्याचे जिणेची सकाळ, दनपार त्रासांतच गेली आपले जिणेची सांज कशी वचत ह्या विचारांत आसतनाच आत्याचे जिणेची सांज उदेली. १७ जानेर १९९० ह्या दिसा सांजेचे आते आयले तेच पुरो जावन बाविल्ल्या तोंडान आते मनान केन्नाच बाविल्ले. पूण ताणे आपलो हांसो केन्नाच बावयलो ना. अडेच्या हांशान आतें भितर सरले तें परतून आपल्या पायांनी चलून गेलेंच ना. दुयेसांतल्यान तें उठलेंच ना. तरी पूण मरणाचो भंय नासलो तें बरें जावन म्हाका आधाराक मेळटली ह्या आशेर हांव म्हज्या जिवाची पर्वा न करतां आत्याची सेवा केली, ताका कितेंच उणे पडूंक दिले ना.

पूण ऑक्टोम्बर ९०त आत्याच्या जिवाची थोडी आशा दाखवन आतें निवळचेंच ना अशें सांगतकीर हांवय कांयवेळ अबरगळीत जालें. म्हजी अपूरबाय आत्याबगर कोणच करूं शकना म्हणपाचें म्हज्या मनाक भासूं लागलें. आत्याचें दुखणें भासतूच वतालें. ताची फ्राकेज कळूं लागली. धेंकणो घालूनय ताच्या पोटांत वचना जालें. आतां रातदीस आतरूणार. सगळे आपूण हातरूणार करतना हांवें सेवा करता हें भितरल्यान तिका त्रास जातालें. म्हजो पापा तिचो भाव (शंभू किर्तनी) आत्याकडेन बसून ताका सारपीत खबर सांगतालो. ताका गुलाब (घराआते) सामके जाय आसले. दिसान दीस आत्याची कूड खालावत वता ती पळोवन दोतोराचीं उतरां म्हाका पटली. तरीपूण गूण पडत हे आशेर हांवें ताका सांगयले.

अशेच एक दीस मायेन आत्याचेर हात भोंवडायतना आत्याचे जिणेची रात उदेली. ६ डिसेम्बर १९९० ह्या दिसा न खावपी आत्यान च्या चपाती खाल्यो न्हाणोवपाक हट्ट धरून न्हाणोवन न्हिदयले आनीक अचकीत हात वयर काडून तुजें बरें जांव म्हूण नदर विचीत्रच केली. त्या वेळार एकच आकांत जालो म्हजें घराआतें गेलें म्हूण.

घराआते गेले, दीस गेले, सेमान गेली, म्हयने गेले, वर्सां गेलीं तरी आत्याची याद काळजांत वादळ घालता आनी तेन्ना हांव म्हण्टां– 'आत्या तुजी याद येता'





– सुफला रूद्राजी गायतोंडे
मिरामार, पणजे.
मो. : ९८२३१११९१७




आरोबा, पेडणे हांगच्या मांगिरीश विद्यालयाच्या वर्सुकी स्नेहसंमेलनाच्या वेळार एका विद्यार्थ्याक ढाल भेटयतना मुखेल सोयरे दिलीप बोरकार. वांगडा संस्थेचे अध्यक्ष शशिकांत कुनाजी.

कला अकादमी, गोंयचे वर्सुकी साहित्य पुरस्कार भेटयतना नामनेचे साहित्यिक आनी पुणे विद्यापिठाचे उपकुलगुरू डॉ. नरेंद्र जाधव. तांचेकडल्यान पुरस्कार स्विकारतना जेस फेर्नांडीस. वांगडा सुधा आमोणकार, कला अकादमीचे सदस्य सचिव डॉ. पांडुरंग फळदेसाय आनी अनंत अग्नी.






कला अकादमी, गोंयचे वर्सुकी साहित्य पुरस्कार भेटयतना नामनेचे साहित्यिक आनी पुणे विद्यापिठाचे उपकुलगुरू डॉ. नरेंद्र जाधव. तांचेकडल्यान पुरस्कार स्विकारतना सुधा आमोणकार. कला अकादमीचे सदस्य सचिव डॉ. पांडुरंग फळदेसाय.



'लामणदिवो' हो दामोदर प्रकाशन, कुडचडें हांचो वर्सुकी अंक २००७ हालींच पणजे कोंकणी अकादेमीच्या सभाघरांत उजवाडाक हाडलो. त्या वेळार सुवाळ्याचे अध्यक्ष अशोक कामत, मुखेल सोयरे पुंडलीक नायक, संपादक रजनी भेंब्रे, सचिव पराग सबनीस आनी कार्यकारी संपादक डॉ. जयंती नायक.



प्रा. अरूण साखरदांडे हांच्या 'कावळ्याचें श्राध्द' ह्या कविता संग्रहाचें विमोचन म्हापशेंच्या नुतन प्रकाशनान पणजे टि. बी. कुन्हा सभाघरांत २६ डिसेंबर २००७ ह्या दिसा घडोवन हाडलें. त्या वेळार कविता संग्रहाचें विमोचन करतना रमेश भगवंत वेळुस्कार. सांगाताक कवी अरूण साखरदांडे, डॉ. किरण बुडकुले, नागेश करमली आनी प्रकाशिका नुतन साखरदांडे.

'बाटाबाटीचे मुस्तींत गोंयकारांक मराठी संतांचो धीर आनी आधार मेळिल्लो म्हणटात. तो कसलो हें सोदपाक बसलों.... स प्रतिनिधीक संतांचो वावर नियाळून पळेलो.... स वूय संत महाराष्ट्रांत मुसलमानी धुमशेणां चलल्यांत ते मुस्तींतले. जे संत हीं धुमशेणां आळाबंदाक हाडूंक पावले नात.... मराठी समाजाची जाल्ली पराकाष्टेची अवनत आडावंक पावले नात ते फिरंग्याचे भकीक पडिल्ल्या गोंयकारांक कसलो धीर आनी आधार दितले आशिल्ले....?

धीर आनी आधार मेळ्ळा म्हूण इतलीं वर्सां आयकत आयले तीं तड्डकां'




फकत रवीन्द्र बाबांकूच हें परखड सत्य सांगपाचो धीर जाला. वाचप्यांची न्हीद खळ्ळोवपी एक सोद निबंद हो....

| | |
|---|---|
| लेखक | : रवीन्द्र केळेकार |
| प्रकाशक | : बिम्ब प्रकाशन, पर्वरी - गोंय. |
| भायलें चित्र | : सुबोध केरकार |
| पानां | : ६६ |
| मोल | : १०० रु. |




तरेकवार विशयां वेल्या चवसठ ल्हान ल्हान बरपांचो हो झेलो. वेळे वयल्यो घुलो, सांगाती, ओथांबे हेच यात्रेंतलें हें मुखावेलें पेणें. ह्या बरपांनी चिंतनां आसात, तश्यो चिंतूंक वाव दिवपी ल्हान ल्हान घडणुकांच्यो 'नोंदी'य आसात. रवीन्द्रबाब हांकां 'स्वान्तः सुखाय बरपां' म्हणटात. पूण ह्या सगळ्या बरपांनी वाचप्याक कितें तरी सांगपाचो, ताका विचार करूंक लावपाचो एक तीव्र हुटहुटोय आसा. सगळ्यांक सांगाता घेवन वांगडा तेजवंत जावपाचें आपोवणें दिवपी 'तेजस्विनावधी तमस्तु'चो साद ह्या बरपांनी पावला कणाकणी जाणवता.

| | |
|---|---|
| लेखक | : रवीन्द्र केळेकार |
| प्रकाशक | : जाग प्रकाशन |
| भायलें चित्र | : सुबोध केरकार |
| पानां | : १३४ |
| मोल | : १०० रु. |

## खातकुतल्यो

### रिकामी सुवात

पणजे जार्दीनांत एका बाकार एक सोबीत अशी तरनाटी चली बशिल्ली. जार्दीनांतल्यान वचपी दामोदरान तिका पळयली आनी तिचेलागीं वचून ताणें तिका विचारलें, ''तुमच्या शेजराची सुवात खालीं आसा?'' चलयेन मान वयर करून ताका पळयलें आनी हांसत म्हळें ''हय आसा. आनी तुमी हांगा बसतकच म्हजीय सुवात रिकामी जातली.''

### कॅलेंडर

''आयकलां? वर्स सोपत आयलां, नव्या वर्साचें कॅलेंडर घेवन येयात.''

''खंयचें कॅलेंडर हाडूं?''

''खंयचें म्हण कितें विचारतात? आमी दोगांय सिर्विसेक वचपी. म्हणटकच जाचेर चडांत चड सुटयो आसात तेंच घेवन येयात मू?''

### पोझीसांव

पणजे म्हालक्ष्मीच्या देवळांतल्यान भायर येवन पायांक जोतीं चडोवपी केशवाक पळोवन एक भिकारी धांवत धांवत ताचेकडेन आयलो आनी हात मुखार केलो.

भिकारी – पात्रांव, गरिबाक एक रुपया दिया.

केशव – आरे एका रुपयांत आयज काल येता तरी कितें?

भिकारी – तें खरें पात्रांव तुजें, पूण हांव मुखावेल्या मनशाचें पोझीसांव पळोवनूच भीक मागतां.

### उदकाचो वापर

रमेश आनी प्रकाश खूब दिसांनीं मेळ्ळे. गजाली मारपा खातीर दोगूय भोसल्याच्या हॉटेलांत भितर सरले. थंयच एक बोर्ड लायल्लो.

शक्यतो पाण्याचा वापर टाळावा.

रमेशान वेटराक आपयलो आनी दोन च्या ची ऑर्डर दिली आनी बोर्डाकडेन बोट दाखोवन म्हळें, ''च्या करतना हें बोर्डाचेर कितें बरयलां तें लक्षांत दवर.''

## कोंकणी पॉप

### लॉरी यो

चलो : हे रूपणें तुजें भियाळटां,
जें काळजांत म्हज्या रिगलां
आंजा यो वेगीन तुकाय आशेतां.

चली : सावळी तुजी दिसना,
खंय आसाय म्हूण समजना
लॉरी पळोवन तुका आरत भागयता.

चलो : हांव तुजो, तूं म्हजें मरो पर्यान
तुका पोयन म्हाका लागना भूक
तान

चली : सोडचिना केन्नांय म्हूडलें आयलयार तुफान
लॉरी यो, लॉरी यो धरूंक गोपान

चलो : मोगान तुज्या हांव पडलां
काळीज काळजाक भेटोयलां
मन म्हजें तुज्या मोगान पिसावलां

चली : हांवूय पिशीं जावन धावतां
तुज्या मोगाक आशेतां
दी उत्तर तुजी सांगातीण जातां.

चलो : जनेलार बसून वाट पोयतां तुजी
सांग केन्ना उतराची घालया मुदी

चली : तूं राजा, हांव राणी सोबीत ती जोडी
लॉरी यो, लॉरी यो कर धावोशी.

दोगांय : लॉरी यो लॉरी यो कर धावोशी
लॉरी यो लॉरी यो कर धावोशी

# पाकीट चोर



तशी व्हडलीशी रात जावंक नाशिल्ली. जाल्ली आसतली णव एक वरां. पूण चडशीं शारांतलीं दुकानां, गाडे बी शियांचे दीस आशिल्ल्यान बेगीनूच बंद जाताले. रस्त्यारूय व्हडलीशी येरादारी नाशिल्ली. खंयतरी एखाद्रो मनीस दिश्टी पडटालो. अनिल आपले मोटार सायकलीचेर गॅरेजींतलें काम सोपोवन घरा येतालो.

शारा भायर आशिल्ल्या त्या तिठ्यार कोणाचीच जागमाग दीस नाशिल्ली. रस्त्या कुशीक आशिल्लो लायटीचो खांबो एकसुरोच बेजार जावन तोंडावयलीं मुसकां आमडीत उबो आशिल्ले वरी दिसतालो. चोंय वटेन शेतान किण्ण काळोख पातळिल्लो.

ना म्हळ्यार लायटीच्या खांब्या पोंदा एक भुरगो तिश्टत उबो राविल्लो. भुरगो विसेक वर्सांचो आशिल्लो. गांवान वचपी निमणी बसय केन्नाच गेल्ली. म्हणूनच घडये कोणूय मेळटा काय वाट पळयतालो जांवये!

अनिलाची मोटारसायकल फुड्यान पावतकच ताणें हात दाखयलो. हरशीं अनिल रातच्या वेळार कोणच अनवळखी मनशाक, लिफ्ट दिनाशिल्लो. पूण त्या भुरग्याचें चिंतेस्त मुखामळ पळोवन अनिलान गाडी थांबयली. रातच्या त्या किण्ण काळखांत तो आनिकूय बाबडोसो दिसतालो.

"तुजे वांगडा येंव? आतां गांवांत वचूंक बस ना. उपकार जातले." सामको बाबडो जावन तो भुरगो उलयतालो.

"यो...बस" अनिलान म्हळें आनी गाडी स्टार्ट केली. भुरगो आंग चोरून गाडयेर बशिल्लो.

अनिल कोणूय अनवळखी मनशाकडेन रोखडीच वळख काडून उलोवंक लागता. आतांय ताणें भुरग्याची वळख काडून उलोवपाक सुरवात केली.

"तूं खंय रावता?"

"हांगाच लागीं फुडल्या गांवांत रावतां. गांवांत वचपी निमणी बस मात्शी चुकली. तूं मेळ्ळो बरें जालें." भुरग्यान सांगलें.

"तूं कितें काम करता?" अनिलान भुरग्याची वासपूस करपाक सुरवात केली.

"सद्या तरी कांय काम करिना. सद्याक नोकरी सोदतां. आजून कामाचें कांय जावंक ना." भुरग्यान आपली अडचण उक्तेपणान अनिलाक सांगली.

मागीर फुडें जायतो वेळ अनिलान हांगाच्यो-थंयच्यो गजाली ताका विचारल्यो. पूण भुरगो चड कांय उलय नाशिल्लो. हय-ना इतलेंच म्हणटालो. बरोच फुडें गेल्या उपरांत अनिलान भुरग्याक म्हळें, "शारांत म्हजी एक गाडयो रिपॅर करपाची गॅरेज आसा. म्हाका एका भुरग्याची कामाक गरज आसा. तुका काम जाय जाल्यार तूं म्हाका फाल्यां गॅरेजींत येवन मेळ. तुका काम येना जाल्यार जाता. हांव सगळें शिकयतां. गॅरेज बऱ्या पयकीं चल्ल्या. सुरवेक दोन हजार म्हयन्याक मेळटले. पूण एक अट आसा. म्हाका प्रामाणिक कामगार जाय. काम शिकपाची इत्सा आसल्यार आनी काम बरें शिकल्यार मागीर बरो पगार दिवं येता. म्हाका कामचोर आनी फटींगपणा आवडनात. काम करपाचें आसल्यार सांग."

अनिलाची शारांत गॅरेज आशिल्ली. गॅरेज बऱ्या पयकी चलताली. हालीशें काम खूब मेळटालें. पूण कामाक बरे कामगार मेळनाशिल्ले. आतां हो भुरगो आपूण जावन काम ना म्हणटा जाल्यार हाका काम दिवचें असो विचार अनिलाच्या मनांत आयलो. फाटल्यान बशिल्लो तो भुरगो चड कांयच उलय नाशिल्लो.

त्या भुरग्याचो देवपाचो स्टॉप आयलो. "राव हांव हांगाच देवतां." भुरग्यान म्हळें.

अनिलान मोटर सायकल थारायली. तो भुरगो देंवलो.

"तुवें कामाक येता-ना कांयच सांगलें ना मरे" अनिलान त्या भुरग्याक विचारलें.

"विचार करून सांगतां" भुरग्यान वयले वयर म्हळें.

भुरग्याक घडये असलें काम नाका आसतलें अशें अनिलाक दिसलें. तो भुरगो आतां मोटर सायकली वयल्यान सकल देविल्लो.

"बरें कांय नजो. विचार करून सांग. हांव तुका म्हजें कार्ड दितां त्या पत्त्यार केन्नाय येवन मेळ. काम सगळें हांव शिकयतलों. शिकपाची तयारी जाय आनी फटींगपणां उपकरचीं नांत लक्षांत दवर."

भुरग्याक कार्ड दितलों म्हूण अनिलान पॅन्टीच्या फाटल्या बॉल्सांत दवरिल्ल्या पाकीटाक हात घालो आनी ताका कच्च जालें. बॉल्सांत पयशांचें पाकीटच नाशिल्लें.

"अरेच्चा, म्हजें पयशांचें पाकीट!" अनिल आपले भितरूच पुटपुटलो. चुकून आपणे पयशांचें पाकीट दुसऱ्या बॉल्सांत दवरलां काय तें ताणें तपासून पळयलें. पूण पाकीट मेळ्ळेंना.

"पाकीट खंय पडलें खबर ना! कांय नजो... तूं शारांत येवन कोणाकूय टायगर गॅरेज खंय म्हूण विचारशी जाल्यार कोणूय सांगतलो." अशें म्हणून अनिल मोटरसायकल स्टार्ट मारपाक लागलो. इतल्यान त्या भुरग्यान अनिलाचो हात आपल्या हातांत घेतलो "सायबा म्हजें चुकलें. तुजें पाकीट हावें फारायलां. तुजे फाटल्यान बसतना तुज्या बॉल्सांतलें पयशांचें पाकीट सामकें भायर पडपाक पाविल्लें. तूं गजालींनी गुल्ल आसा तें पळोवन हावें तें फारायलें. चुकलें म्हजें.... सॉरी....सॉरी." अशें म्हणून त्या भुरग्यान आपले पोतयेंत दवरिल्लें पाकीट काडून आनिलाकडे दिलें.

"चुकलें म्हजें... बरें येतां...." अशें म्हणून तो वचपाक लागलो. अनिलान ताका परत आपयलो. "हें धर म्हजें कार्ड" हातांतलें पाकीट उगडून ताणें भितरलें विजिटींग - कार्ड काडून त्या भुरग्याच्या हातांत दिलें.

"इतलें जावनय तूं म्हाका कामाक दवरतलो?" रडकुरें तोंड करून त्या भुरग्यान विचारलें. अनिलाचे नदरेक नदर दिवपाचें धाडस ताका जालें ना.

"हय. तुवें पाकीट चोरपाचें वायट काम केलां पूण आपली चूक कबूल करपाची प्रामाणीकपणा तुजे लागीं आसात." अशें म्हणून अनिलान मोटरसायकल स्टार्ट मारली. तो भुरगो ताच्या तोंडा कडेन पळयत उरलो.



**- दोतोर (मेजर) प्रकाश शेटये**

देवळाय - खांडोळ

मो.: ९४२०२९७३०८



# गोडेंमूत / मधुमेह / दियाबेत

**गो**डेंमूत/दियाबेत हें दुयेंस भरपूर प्रमाणान वाडत चल्लां. खुपश्या लोकांक ह्या दुयेंसाची तशेंच हें दुयेंस आपल्याक आसा हाची जाणीव आसा. पूण सुमार एक तृतीयांस लोकांक, आपल्याक गोडेंमूत आसा हाची खबरूच आसना.

### १. दियाबेत म्हळ्यार कितें?

आमच्या आहारांत ग्लुकोझ नांवाची साकर आसता. ही साकर आमच्या कुडीक आनी कुडिच्या सगळ्या पेशींक (body cells) ताकत वा पुश्टीक सत्व दिवपा खातीर म्हत्वाची आसता. जेवल्या उपरांत, ह्या जेवणाची आमच्या पोटांत वा आंतकड्यानी जिरवण (digested) जाता, आनी अशें करून ग्लुकोझ वा दुसरी घटाय दिवपी खाणां निर्माण जातात. हें ग्लुकोझ आमच्या आंगांत घोळपी रक्तांतल्यान, कुडिच्या सगळ्या पेशीं मेरेन पावता. हें ग्लुकोझ आपूण जावन/एकसुऱ्यान (on its own) शरिराच्या पेशींनीं प्रवास करूंक शकना. ताका इन्सुलीन(insulin) नांवाच्या गतीवेवस्तापक भागाची (regulators) गरज पडटा.

इन्सुलीन हाका 'हन्गर होरमॉन' (Hunger Hormon) अशें म्हणटात. आमचे कुडींत पॅनक्रीयास (Pancreas) नांवाचो एक अव्यय आसता. हो पनक्रियास, इन्सुलीन तयार करता. सर्व सादारणपणान (Normally) जेवणा उपरांत. रक्तांतलें ग्लुकोझचें प्रमाण वाडटा (Blood sugar level) त्याच बरोबर, त्याच प्रमाणांत इन्सुलीन तयार जाता आनी रोकडेंच हें रक्तांतलें ग्लुकोझचें प्रमाण कमी जाता आनी उरलेलें ग्लुकोझ रक्तांतल्यान कुडीच्या सगळ्या पेशीं मेरेन पावता. रक्तांतलें ग्लुकोझचें प्रमाण जेन्ना कमी जाता तेन्ना आपुणूच पॅनक्रीयास इन्सुलीन तयार करपाचें बंद करता आनी अशें करून एका सर्वसादारण (normal) मनशाच्या रक्तांतलें ग्लुकोझचें प्रमाण नियंत्रणात उरता.

पॅनक्रियासाचें हें काम सदांच अशेंच चालू उरता. कांय कारणां खातीर (१) पॅनक्रियासाची इन्सुलीन तयार करपाचें प्रमाण कमी जाल्यार (२) आहारांत चड ग्लुकोझ घेतिल्ल्यान पॅनक्रियासाचेर चड भार पडल्यार ह्या यंत्रक्रियेचेर बाधा येता आनी रक्तांतलें ग्लुकोझचें प्रमाण वाडटा आनी हाकाच गोडेमुताचें/दियाबेत जाल्या अशें म्हणटात.

### २. दियाबेत दोन प्रकारची आसता

१. इन्सुलीन डिपेन्डन्ट डायबिटीज मेलीटस (IDDM) (Type I)

२. नॉन इन्सुलीन डिपेन्डन्ट डायबिटीज मेलिटस (NIDDM) (Type II)

१. इन्सुलीन डिपेन्डन्ट डायबिटीस मेलीटस ह्या तरेच्या दियाबेतांत पॅनक्रीयास इन्सुलीन तयार करूंक शकना आनी म्हूण ह्या दुयेंसाच्या मनशांक भायल्यान इन्सुलीन घेवचें पडटा. ताचेर हो एकूच उपचार आसा. हें दुयेंस भुरगेपणांतूच दिसून येता म्हणजेच मनाशाक २५-३० वर्सां जावच्या पयलीं, म्हूण हाका जुवीनायल (Juvenile) डायबिटीज म्हणटात.

२. नॉन इन्सुलीन डिपेन्डन्ट डायबीटीस ह्या तरेच्या दियाबेतांत पॅनक्रीयास इन्सुलीन तयार करता. पूण तें मनशाक जाय तितल्या प्रमाणांत तयार करूंक शकना आनी मनशाचें रक्तांतलें ग्लुकोझचें प्रमाण कमी करूंक शकना. ही दियाबेत चडकरून वयाच्या ३५-४० वर्सा उपरान्त दिसून येता. म्हूण हाका ऍडल्ट ऑनसेट डायबीटीस मेलीटस म्हणटात. (Adult onset DM). पूण आतां ही दियाबेत सुध्दां वयाच्या २५-३० वर्सांचेर जाता. ही दियाबेत वंशाची आसता (genetic tendency). हाचेर उपचार आसात.

### दियाबेताचीं लक्षणां कितें?

१) खूप तान लागप.
२) परत - परत मुतूंक जावप.
३) परत - परत भूक लागप. म्हूण मनीस खाता.
४) ताचें वजन वाडटा.
५) आळशीपणा येवप.
६) अशक्तपणा येवप, हात-पांय वळप.
७) अंधूकपण (Blurred vision).
८) परत-परत मुताचें, कातीचें इन्फेक्शन जावप.
९) घावे पेकपाक खूप तेप लागप.

### हें दुयेंस जालां म्हूण कशें कळप?

वयर दिल्लीं लक्षणां जर आसत जाल्यार रोकडेंच आपलें रगत तपासून घेवचें आनी आपल्याक खरेंच दियाबेत आसा काय ना तें पळोवचें. अशें करून रक्तांत जर ग्लुकोझचें प्रमाण चड मेळत जाल्यार दोतोराच्या सल्ल्या प्रमाणे वखदां घेवचीं. तशेंच आपल्या आहाराचेर नियंत्रण दवरचें आनी नियमीत व्यायाम करचो.





- डॉ. वंदना धुमे
९८२२५८५२८५



# ताल्ल्यांचें सुकें

**साहित्य :**

१० व्हडले ताल्ले, ८ सुक्यो मिरसांगो, १५ तेफळां, ३ हरव्यो मिरसांगो, १ वाटी सोय, दोन ल्हान कुलेरां हळदी पिठो, ७-८ सोलां, इल्लीशी आंबटाण आनी चवी पुरतें मीठ.

**कृती :**

ताल्ल्यांचे तीन - तीन कुडके करचे. मीठ लावन पंदरा मिनटान धुंवचे. सोय, मिरसांगो, हळदी पिठो, आंबटाण बारीक वांटची. तेफळां धाडावन घेवचीं. वाटिल्लो मसालो, तेफळां, सोलां, हरव्या मिरसांगा कुडके, उदक घालून आयदनात घालचे. ताल्ल्या कुडके तातूंत घालून चार मिनटां शिजोवन घेवचें.

# म्हस्का सांगांचें तोंडाक

**साहित्य :**

४ मोठ्यो सांगो, ११/२ वाटी सोय, १/४ कुलेर हळदी पिठो, चण्या दाळी येदो हींग, १ कुलेर साखर, १/४ कुलेर मेथी, २ वाटयो वायंग्याच्यो फोडी, १ कुलेर मिरसांगे पिठो, १० मिरयां, बोरा येदी आंबटाण, १/२ चमचो सासवां, १ ल्हान चमचो तेल आनी मीठ.

**कृती :**

सांगो सोलून १ ।। इंचाचे कुडके करचे. आयदनान तेल गरम करून हींग, मेथी, सासवां फण्ण मारचें. तातूंत सांगो आनी वायंग्या फोडी घालच्यो. १ वाटी उदक घालून पांच मिनटां शिजोवच्यो. सोय, मिरसांगे पिठो, हळदी पिठो, आंबटाण, मिरयां बारीक वाटचीं. वाटिल्लो मसालो साखर आनी मीठ शिजयल्ले भाजयेंत घालचें आनी १/२ वाटी उदक घालून तीन मिनटां शिजोवचें.

# तांबडे भाजयेचें तोंडाक

**साहित्य :**

४ वाटयो शिनलेली भाजी, १/४ कुलेर हळदी पिठो, १२ काळीं मिरयां, वाटाण्या इतलो हींग, २ ल्हान चमचे साखर, मीठ, १२ कुवाळ्या वडयो, १/२ वाटी सोय, १/२ कुलेर कोथमीरे पिठो, १/२ ल्हान कुलेर हळदी पिठो, १/२ ल्हान कुलेर सांसवां, १ व्हडलें कुलेर तेल.

**कृती :**

१/४ वाटी उदक घालून शिनलेली तांबडी भाजी मंद उज्यार शिजोवची. सोय, हळदी पिठो, मिरसांगे पिठो, कोथमीरे पिठो, आंबटाण वाटून घेंवची. शिजयल्ले भाजयेंत वाटिल्लो मसालो, साखर आनी मीठ १/४ वाटये उदका वांगडा घालचें. तीन मिनटां शिजोवंचें. तेलांत हींग, सासवां फोण्ण करून तातूंत वडयो घालच्यो. मात्शे परतून वास येतकूच हें फण्ण भाजयेंत घालचें.



# जानेवारी २००८ चें राशी भविश्य

– ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे




पराक्रमात मंगळ आनी भाग्यांत गुरू घेवन तुमी नव्या वर्सांत पावल घालतात. नव्या वेवसायाक हात घालूक हरकत ना. येणावळींत वाड जातली. इश्ट-मित्राकडल्यान भोवमान मेळटलो. बऱ्या कामा खातीर दुडू खर्च करचो पडटलो. कोर्ट कचेरीच्या कामात यश. मानसिक उमेद वाडोवपी म्हयनो.




घराविशीं, जमनी विशीं वेव्हार करतना फसवणूक जावची ना हाचे कडेन शादुरतायेन लक्ष दवरचें. हाता सकयलच्या लोकाक दुखोवन जावचें ना. बाबा पुता करून काम मुखार व्हरप फायद्याचें थारतलें. अपचन आनी दोळ्याचे विकार वयर सरतले. वेळारूच काळजी घेवप गरजेचें. तरनाट्याक प्रेमप्रकरणात यश.




उद्येग वेवसायांत अडचणी, आडखळी संभवतात. पूण तांचेर मात करून मुखार वतले. वेवसायात उण्यात उण्यो चुको जातल्यो हाचेकडेन लक्ष दवरचें. पराक्रमात शनि आनी सातवो गुरू आशिल्ल्यान राशींतलो मंगळ तितलोसो तापदायक जावचो ना. घरात गरजे भायर वाद घालू नाकात.




आर्थीक वेव्हारांत चुकिल्लीं गणितां आनी तातूंत दोळ्यांचे विकार हाका लागून मनस्थिती मातशी इबाडिल्ली आसतली. शादुरतायेन वेव्हार करपाकडेन लक्ष आसप बरें. कसलोय निर्णय घेतना गडबड जावची ना हाचेकडेन लक्ष दिवचें. खर्चाचें प्रमाण वाडटलें. नोकरदाराक कामाचो ताण सोसचो पडटलो.




शनिची साडेसाती अजून चालू आसली तरी हेर गिरे तुमचे राशीक साबाळून घेतात. पांचवो गुरू आनी लाभातलो मंगळ हाका लागून हुसको करपाचें कसलेंच कारण ना. हो म्हयनो कुटुंबीक भलायकी, भुरगेबाळाचें बरेंपण हे नदरेन उत्तम आसतलो. केल्ल्या कामाचें चीज जातलें.




नोकरी धंद्याचे दरेक स्थितीचेर बारीकसाणीन लक्ष दवरप खूप गरजेचें. खर्च हाताभायर वचचोना हाचेकडेन लक्ष दवरचें. अडून उरिल्लीं कामां कशीं मार्गाक लागतलीं हाचो विचार करचो. गुरूची कृपानदर आशिल्ल्यान शनि, केतूची युती पिडा नियंत्रणाखाल उरतली. जागो खरेदींत यश संभवता.




फुडाराक नव्यो नव्यो जापसालदारक्यो भुजार पडपाच्यो आसात. तेन्ना आताच तांची तयारी दवरची. शारिरीक ताकी भायलें कसलेंच काम आंगार घेना जाल्यार बरें. येवजिता एक आनी घडटा भलतेंच असो अणभव ह्या म्हयन्याक येतलो. जाण्टेल्याच्या आदारान इत्सीत लाब जातलो. आर्थिक अडचणी व्हडल्योशो जाणवपाच्यो नात.




मंगळ, चंद्र हांचो अशुभ योग आसलो तरी धनस्थानातलो गुरू तुमका अकस्मात धनलाभ घडयतलो. आठवो मंगळ वावरात अडचणी हाडटलो. मनरिजवण, भोंवडी अशे तरेचे विंगड विंगड योग ह्या म्हयन्यात आसात. वेवसायात मना आड काय तडजोडी करच्यो पडिल्ल्यान मन विरूस जातलें.




कर्तुत्वाचें तेज फांकारूंक मजत करपी असो हो म्हयनो. कोर्ट-कचेरीचें काम ह्या म्हयन्यात रेंगाळटलें. गुरू, रवि शुभ आसात. ताका लागून बऱ्योचश्यो बऱ्यो घडणुको घडूक पावतल्यो. गुरूचो बरो अणभव घेवपाचो आसल्यार शुध्द रावचें. व्यसना टाळचीं, वाद टाळचो.




जायते बाबतींत संमिश्र अशें ग्रहमान आशिल्ल्यान सगळे वाटेन धांवपळ जातली. खर्चाचें प्रमाण वाडटलें. मंगळाक लागून विरोधकांचेर जैत हाडूंक मजत जातली. शनि वक्री आशिल्ल्यान भलायकेचे प्रस्न तकली वयर काडटले. खाणा-जेवणाचेर नियंत्रण दवरप बरें.




वर्साचो आरंबूच तुमचे खातीर सुख सवस्तकायेन जाता. ल्हान-सान अडचणी ह्यो दर एक मनशाक आसतात. तांचेकडेन आडनदर केल्यार नवें वर्स हें खऱ्यानीच उल्हासदायक म्हणपाचें जाणवतलें. मनरिजवणेचे योग येतले. वक्री शनिक लागून थोडे घोटाळे संभवतात. भागीदारी, लग्नीक जीवितं हातूत गैरसमाजान घोटाळो जाव येता.




वक्री शनिक लागून भलायकेच्यो तक्रारी अप्रासतल्यो. तेच वागडा अडचल्लीं कामाय मार्गाक लागतलीं. इश्टागतीक, नात्याक लागून मना आड काय कामां करचीं पडटलीं. मानसिक ओढाताण जावक दिनासतना मार्ग काडचो. वेवसायीक मळार भरभराट कोर्ट कचेरीच्या कामात यशप्राप्ती.पूण बेसावध रावून कोणाचेरूय चड विश्वास दवरू नाकात

**लग्नाचे म्हूर्त :** १९(१०.४७, १२.४५, १८.१४, २२.४८), २०(१०.४३, १२.४५), २४(१२.४७, १८.२५, २२.२८), २६(१२.४७, १८.१८), २७(१०.२६, १२.४७, १८.१८), २८(१०.२२,१२.४७,१८.१९), २९(१२.४८, १८.२०), ३०(१२.४८, १८.२०)



# देविदास रामचंद्र कदम
# लोकवेदाचे बुन्यादीवेलो सर्जनशील साहित्यिक.

साहित्य अकादेमीचो २००७ वर्साचो साहित्य पुरस्कार श्री. देविदास रामचंद्र कदम हांकां तांचे 'दिका' कादंबरी खातीर फावो जालो आनी तांच्या कुटुंबासयत, इश्ट-सांगात्यांसयत कोंकणी जगताक आनी देविदासाक वळखतल्या जण एकल्याक खोस जाली. देविदास कदमाक तर खोस जाल्ली आसतलीच; न्हय जाल्याच!!

अशा वेळार 'बिम्ब' खातीर मुलाखत घेवपाक हांव तांकां मेळ्ळों आनी सरळ मुद्द्याक धरून प्रस्नार प्रस्न केले. त्या प्रस्नांसयत आनी तांच्या जापांसयत 'बिम्ब'च्या वाचकांखातीर ही मुलाखत–

– कमलाकर म्हाळशी




❀ परबीं, परबीं, परबीं देविदास. अभिनंदन. Congratulations!

❀❀ देव बरें करूं, म्हाळशीबाब. तुमकांय परबीं. कारण, हो पुरस्कार तुमचोय बी.

**❀ साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार अपेक्षेप्रमाण तुका मेळ्ळो. कशें दिसता?**

❀❀ खूब बरें दिसता. 'दिका' कादंबरीचो दर्जो लक्षांत घेतल्यार तिका पुरस्कार मेळपाक जाय अशें म्हाका दिसतालें. तो मेळ्ळो, समादान जालें आनी दिकाचें खाशेलपणा संबंदान हांव म्हणटां अशें न्हय, म्हज्या वाचकांचीच प्रतिक्रिया ती.




**❀ हाचे पयलीं तुका मेळिल्ले पुरस्कार – देखीक, कोंकणी भाशा मंडळाचो साहित्य पुरस्कार, टी. एम्. ए. पै. फाऊंडेशनाचो साहित्य पुरस्कार आनी आतां मेळिल्लो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार हांचें 'मेजमाप' तुजे नदरेन कशें कितें?**

❀❀ पुरस्काराचें तशें मेजमाप करूंक जायना. पुरस्कार हे त्या त्या पावंड्याचेर श्रेष्ठच आसतात. पयलो पुरस्कार मेळटना जी खोस म्हाका जाली, तसलीच खोस आयजूय जाल्या.

**❀ तूं एक साहित्यिक. मात्त सद्या तरी वाचकांक खबर आसा तो 'कोंकणी साहित्यीक' म्हूण. पूण भाशांच्यो वण्टी हुपून 'साहित्यीक' म्हूण तुजी वळख वाचकांक कशी घडूं येता अशें तुका दिसता?**

❀❀ तसो लेखक अमूक एके भाशेच्या माध्यमांतल्यान बरयता जालो तरी लेखक हो लेखकच आसता आनी साहित्य अकादेमीच्या पुरस्कारा उपरांत तर तो भारतीय साहित्यिक जाता. दुसरें अशें कीं, म्हजें साहित्य जेन्ना वेगळ्या वेगळ्या भाशांनी अणकारीत जावन येतलें तेन्ना तें दुसऱ्या भाशांतल्या कितल्याशाच वाचकांमेरेन पावतलें, तेन्ना तर खऱ्या अर्थान हांव भारतीय साहित्यिक जातलों अशें म्हाका दिसता.

**❀ साहित्याचे विंगड विंगड प्रकार तुवें हाताळ्ळयात. देखीक, कांदळां – कथासंग्रह, कोऽहम्? – कविता संग्रह, दिका – कादंबरी, गांठवल – कादंबरी, काणी आज्याली – बालनवलिका ... आनीक कसले प्रकार तूं हातावेगळे करपाक पळयता?**

❀❀ हांव नाटक बरोवंक सोदतां. निबंध लेखनूय करूंक सोदतां. तशेंच वैशिश्ट्यपूर्ण प्रवास घडलो जाल्यार प्रवासवर्णनूय बरयतलों. खरें म्हणल्यार साहित्याचे सगलेच प्रकार केळोवपाची इत्सा आसा. आनी म्हजे साहित्यिक तांकीचो अदमास हांव घेतां, तेन्ना म्हाका तें शक्य जातलें, अशें म्हाका दिसता.

**❀ तुज्या साहित्याच्या सगल्याच प्रकारांचो आवयबापूय तूंच. अशें आसलें तरी खास आवडीचें म्हूण खंयच्या पुस्तकाचें नांव तूं घेवंक सोदता?**

❀❀ कोऽहम्? आनी दिका.

**❀ कित्याक?**

❀❀ कोऽहम्? अध्यात्म आनी जिणेची सांगड घालपी म्हूण आनी दिका सृजनशील साहित्याचो अस्सल नमुनो म्हूण.




**❀ देविदास, लेखकाचें एकादरें**




**डॉ. टी. एम्. ए. पै. फाउंडेशनचो पुरस्कार के. के. पै. हांचेकडल्यान स्विकारतना देविदास कदम**

**पुस्तक उजवाडा येतकूच वाचक ताका लेखक म्हूण, साहित्यिक म्हूण वळखतात. पूण तें पुस्तक उजवाडा येतसर जी एक व्हडली प्रक्रिया आसता, तातूंत जायते घटक आसपावतात, तांचे संबंदान तुका कितें दिसता? आनी खास करून तुका पुरस्कार मेळटात, तेन्ना तांची याद तूं कशे रितीन करता?**

❀❀ पुस्तक उजवाडणेचे प्रक्रियेंतलो एक म्हत्वाचो घटक म्हूण हांव प्रकाशका संबंदान कृतज्ञताय उक्तावंक सोदतां. कारण, तो तन-मन-धनान पुस्तकांसांगातान आसता. लेखक आनी वाचक हांचेमदलो दुवो हो प्रकाशक. अर्थात, हातबरप प्रकाशका मेरेन पावचेपयलींचे लेखन प्रक्रियेंत लेखकाचे तळमळे, चिंतन, मनन, अस्वस्थताय, सर्जनशिलताय, लेखन- कुशळताय ह्यो गजाली आसतातूच. जाल्यारूय प्रकाशकाक हांव खात्रीन चड मानतां. हीच संद सादून हांव म्हजे प्रकाशक ॐ श्री दत्त पद्‌मजा प्रकाशन, श्रीस्थळ, काणकोणचे मिलींद कमलाकर म्हाळशी, अस्मिताय प्रतिष्ठान, मडगांवचे प्रकाशक, जैत प्रकाशन, खोर्ली, गोंयचे श्री. सुरेश सगुण नायक, गोवा कोंकणी अकादेमीचे प्रकाशक हांच्या उपकारांत रावंक सोदतां. तेचपरी, मुद्रक आनी चित्रकार हांचे संबंदानूय हांव कृतज्ञताय उक्तायतां.

**❀ प्रकाशकांनी आनी प्रकाशन संस्थांनी तुका लेखक म्हूण उजवाडा हाडिल्ले खातीर तुवें तांचे संबंदान कृतज्ञताय उक्तायल्या. आनीक कोणाच्या नांवांचो खास उल्लेख तूं ह्या वेळार करूंक सोदता?...**

**तूं लेखक म्हूण घडपाक कारण जाल्ल्या बरें मागप्यांचो म्हणटा हांव.**

❀❀ तशीं नांवां घेवपाचींच जाल्यार मुळा पसून – साहित्यप्रक्रियेच्या मुळा पसून हांव नांवां घेवपाक सोदतां तीं अशीं – म्हजी भौश्रूत आनी उत्तम वाचक अशी आई (जानकी) आनी बाबा (रामचंद्र), म्हजे आदले

साहित्यिक गूण आनी साहित्यबिजां म्हजेमर्दी मुळांतसावन आशिल्लींच. म्हज्या वाठारान तांकां पोसवण दिली. गांवचे रंगमाचयेन म्हज्यांतल्या कलाकाराक पोसवण दिली आनी थळाव्या लोकवेदान साहित्यप्रक्रियेचें मुळावण घालें. इंग्लीश, मराठी, हिंदी साहित्याच्या वाचनान म्हाका व्यासंगी केलो आनी ह्या साहित्याच्या अभ्यासासयत कोंकणी साहित्याच्या वाचनान आनी अभ्यासान अंतर्मुख करून म्हज्यांतल्या साहित्यिकाक पोसवण दिली. साहित्यिक म्हूण म्हाका त्या पावंड्यार पावयलो. मात्त ताका लागून म्हजी जापसालदारकी वाडल्या आनी त्या भारान हांव बागवलां.






मुख्याध्यापक श्री. फ.य. प्रभुगांवकार, म्हजे सामके लागींचे इश्ट आनी मार्गदर्शक श्री. कमलाकर म्हाळशी, म्हजे प्रेरणास्त्रोत साहित्यिक भौ. महाबळेश्वर सैल, भौ. दामोदर मावजो, म्हाका वेळवेळार शाबासकी दिवपी भौ. रवीन्द्रबाब केळेकार, भौ. उदयबाब भेंब्रे, भौ. पुंडलीकबाब नायक, भौ. नागेशबाब करमली, भौ. माधवबाब बोरकार, भौ. रमेश वेलुस्कार, भौ. मीना काकोडकार, भौ. शीला कोळंबकार, भौ. जयमाला दणायत, भौ. प्रकाश पागांवकार, भौ. एन्. शिवदास, भौ. दत्ता दामोदर नायक, डॉ. जयंती नायक अशे कितलेशेच साहित्यिक तशेंच कोंकणी चळवळींक खाशेलें योगदान दिवपी आनी म्हाका अर्बा-उमेद दिवपी डॉ. तानाजी हळर्णकार, भौ. आर. बी. एस्. कोमरपंत, भिकू बोमी नायक तशेंच घरचींच अशीं सौ. उषा उल्हास राणे, समीक्षक डॉ. किरण बुडकुले, श्री. लक्ष्मण साईल आनी मराठी साहित्यिक श्री. मधू मंगेश कर्णिक हांचोय उल्लेख करूंकूच जाय.



कांदळां पुस्तकाचें प्रकाशन करतना कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष, साहित्यिक पुंडलीक नायक, महाबळेश्वर सैल, कमलाकर म्हाळशी आनी लेखक

**✽ हे आनीक अशेच जायते बरें मागपी तुका सदांच उर्बा - उमेद दियत आयल्यात. मात, घरांत वा आशीकुशीक साहित्यिक परंपरा नासतनाय तूं साहित्यिक म्हूण कसो कितें घडपाक पावलो?**

✽✽ साहित्यिक परंपरा लौकीक अर्थान नाशिल्ली अशें दिसलें तरी साहित्यिक गूण आनी साहित्यबिजां म्हजेमदीं मुळांतसावन आशिल्लींच. म्हज्या वाठारान तांकां पोसवण दिली. गांवचे रंगमाचयेन म्हज्यांतल्या कलाकाराक पोसवण दिली आनी थळाव्या लोकवेदान साहित्यप्रक्रियेचें मुळावण घालें. इंग्लीश, मराठी, हिंदी साहित्याच्या वाचनान म्हाका व्यासंगी केलो आनी ह्या साहित्याच्या अभ्यासासयत कोंकणी साहित्याच्या वाचनान आनी अभ्यासान अंतर्मुख करून म्हज्यांतल्या साहित्यिकाक पोसवण दिली. साहित्यिक म्हूण म्हाका त्या पावंड्यार पावयलो. मात्त ताका लागून म्हजी जापसालदारकी वाडल्या आनी त्या भारान हांव बागवलां.





गोंय कला अकादमीचो साहित्य पुरस्कार मुखेल सोयरे फा. फ्रांसिस ब्रिटो हांचे कडल्यान स्विकारतना लेखक देविदास कदम, वांगडा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष पुंडलीक नायक, कला अकादमीचे सदस्य सचीव डॉ. पांडुरंग फळदेसाय, साहित्यिक माधवी देसाय आनी कला अकादेमीचे कार्यक्रम अधिकारी डॉ. प्रमोद काळे.

**✽ देविदास, तुज्या साहित्याचो पावंडो आसाय तसोच. वाचकांनी ताका पसंतीची पावती दिल्याच. तुज्या साहित्याचेर चर्चाय भरपूर जाल्या. देखून साहित्यासंबंदान तुका हांव कांयच विचारना. तुका साहित्यीक म्हूण बरो फुडार आंवडेतां. देव बरें करूं.**

✽✽ तुमकांय देव बरें करूं.



# मुल्य शिक्षणाची गरज

**ह्या** संवसारांत जश्यो मनशाच्यो तीन गरजो म्हत्वाच्यो त्यो म्हळ्यार जेवण, कपडे आनी घर तशेंच शिक्षण लेगीत मनशांचे जिणेंत म्हत्वाचें! कित्याक तर अश्यो कांय गजाली आसात की तो आपल्याक स्वताक घडोवंक शकता. तो कसलीं आव्हानां पेलूंक शकता, खरें कितें आनी फट कितें तो बेस बरें जाणूंक शकता.

जेन्ना एक विद्यार्थी शाळेंत वचचे पयलीं तो घराकडेन थोडे गूण आपले आवयकडच्यान घेता आनी आवय ताका चलूंक वा उलोवपाक शिकयता आनी मागीर ताका शिक्षण घेवपाक शाळेंत धाडटा तेन्ना त्या भुरग्याचेर शाळेंत शिक्षक नदर दवरता आनी आपले बरे संस्कार ताचेर करता. ताका आपल्या शिक्षणाचें गिन्यान दिता. ल्हव ल्हव भुरगो तें गिन्यान घेवन फुडें वचत रावता ताका वाचपाक, बरोवपाक लावप, खयंचो विशय घेवन निबंध बरोवपाक लावप, बऱ्यांची संगत लावप, मनाचेर बरे संस्कार करप, ही शिकवण शाळेंतसून सुरवात जाता. पूण ताका चड गिन्यान नाशिल्ल्यान तो थोडें थोडें घेत वता. दुसऱ्यांक आदार दिवप, शाळेंत वर्गांत शिक्षक आयले कीं उबे रावप, एक दुसऱ्याकडेन भासाभास कशी करप हें तो शिकता. विद्यार्थ्याक गिन्यान आशिल्ल्या कारणान ताका देव धर्माचेर विस्वास आसा वा ना हें कळटा. अंधश्रध्दा कशी पातळटा हें तो बेस बरें जाणा जाता. ताका गिन्यान जाल्ले कारणान वा ताणें शिक्षण घेतिल्ल्यान ताका सगळें बरें वायट कळटा. शिक्षण म्हळ्यार कितें? म्हणिल्लें आसा की 'तमसो मा ज्योतिर्गमय'! म्हळ्यार हाचो अर्थ असो की काळखाकडल्यान म्हाका उजवाडावटेन घेवन वच. शिक्षण घेतिल्लो मनीस बेस बरें समजूं शकता. जर ताणें बरे तरेन ताच्या गिन्यानाचो उपेग बऱ्या कामांक केलो जाल्यार तो स्वताक घडोवंक शकता आनी घरांत जर सदांच झगडीं जाता वा किल्लोस जाता जाल्यार ताचेकडेन तांक आसा ती झगडीं बंद करपाची आनी आपलें कुटुंब सुखान दवरचें हें तो गिन्यानाच्या आदारान करूं शकता. अंधश्रध्देक बळी पडूंक जायना. प्रसाद पाकळीचेर विस्वास दवरूंक फावना कित्याक तर तें आमकां नडटा. जर आपणें थंडसाणेन विचार करीत जाल्यार आमी तांकां बळी पडूंक शकनात.

संस्कार म्हळ्यार कितें? संस्कार म्हळ्यार ज्या विद्यार्थ्या भितर बरे गूण आसात, ताची वागणूक, बरें, वायट तो समजू शकता, सपनांत लेगीत कोणाचें वायट चितना हाकाच आमी संस्कार म्हण्टात. आपल्या परस व्हड जाण्ट्या मनशांक तो मान दिता, केन्नाय दारार शिक्षक वा हेर सोयरो दायरो आयलो जाल्यार ताका उठ बस करता, ताका मान दिता, जाण्ट्यांचें आयकता, सांगिल्या वेळार अभ्यास करता, शाळेंत गेलो आनी शाळा सुटली की घरा वेळार पावता, कोणाचेच वाटेक वचना, ताची चलपाची उलोवपाची तरा हाचेर घराकडलीं मनशां लक्ष दवरतात, तो शिकता वा ना हाचेर नदर दवरून आसतात आनी त्या विद्यार्थ्यांभितर मनीसपण जागें दवरता. मनशाकडेन जर कितलेय पयशे आसले आनी जर तर ताचें मनीसपण शेणलें जाल्यार तो कांयच करूंक पावना.

विद्यार्थी नामनेक वा फुडें सरपाक कसल्या गजालींची गरज आसा हें जाणून घेवन शिक्षक ताचेभितर धाडस निर्माण करता तेन्नाच तो आपल्या आपूण फुडें वचपाक तयार जाता. म्हळ्यार शिक्षक लेगीत एक गुरू वा दुसरी आवय. शिक्षक वाचन करून घेता. हें वाचन आनी धाडस ज़र दर एकल्याच्या भितर तिगून रावलें जाल्यार तो आपलो फुडार घडोवंक शकता. **गूणः पुजास्थानं** हाचो अर्थ असो की गूण हेच आदराक पात्र आसा. वायट वा बरे गूण तो कशे आत्मसाथ करता तशेंच तो फुडली पायरी वा फुडें वचपाक धाडस करता वा ताजी उदरगत जाता. शिक्षक भुरग्यांक सदांच बरीच दिका दिता. तो केन्नाच भेदभाव करिना. सगळ्यांक तो एकेच नदरेन पळयता. पूण त्या शिक्षकांचे विचार घेवप वा ना घेवप हें ताचेर आसता. जर विद्यार्थी वायट मार्गार गेलो वा वायट व्यसन लागलें जाल्यार शिक्षक ताका बरें वळण लायता आनी वायट वा चुकिच्या रस्त्यार गेल्यार विद्यार्थ्याक तो बऱ्या मार्गार हाडटा. ताका समजावन सांगता.

मनशाचे जिणेंत शिक्षण जशें म्हत्वाचें आसा तशींच मुल्यांय गरजेचीं आसा. ताचेर संस्कार, उलोवपाची तरा वा रीत एकामेकांकडेन कशें उलोवप आपल्या वाठारांत कितें घडटा कितें जाता हाची जाणविकाय दवरप, आदर- मान सामकें गरजेचें मुल्य. म्हळ्यार मनीसपण हें दर एकल्याभितर आसा आनी तें तर तिगून दवरतलो जाल्यार बरें काम करप वा मनाचेर बरे संस्कार लावन घेवप. मनीसपण पयशांनीं विकत मेळना. तर तें आपल्या भितरच आसा ताका जागें करतलो जाल्यार पयलीं मनाचेर बरे संस्कार लावन घेवप. हे संस्कार जर मनाक लावन घेतले जाल्यार तो स्वताक बदलतलो आनी मागीर तो समाजाकूय बदलूंक शकता. समाजाक जर तो बदलल्यार देशाकूय बदलूंक शकता. फकत स्वताभितर बरे गूण बळावप आनी वाचन करून ताचेर विचार करप गरजेचें. जाल्यारूच तो विद्यार्थी नामनेक पावतलो वा तो आपलो फुडार घडयतलो.

देखून ह्या युगांत विद्यार्थी वा दर एक मनशाचे जिणेंत मुल्य शिक्षणाची गरज आसा.

**–सिध्दार्थ विनायक शिरोडकार**

तारवाडो–सुर्ला

# उतरकुवाडें

– मुकेश थळी

**आडवे**

१) एके तरेचें आयस्क्रीम, एक वनस्पत
३) व्हड बावळ्यांचो
६) अवतिकाय
८) राष्ट्रपतींनीं हहहहहह जारी केलो, अध्यादेश.
१०) दुस्वास; दुस्मानकाय
१२) एके तरेचें नुस्तें
१३) मसाल्यांतलें एक आंग
१५) प्रफुल्लीत, प्रसन्न
१८) ताचें वागणें हहहह (नॉर्माल न्हय)
१९) सांगाती; खेळांतलो भिडू

**उबे**

१) रोमांतलें पोपसायबांचें राबितो भवन
२) ही जमीन शेतपिकाची हहहहह करपाक बरी आसा.
४) माणकुली जपानी कविता
५) मस्तें, तरपाशोर
७) किल्ल्याचें दुरीग
९) आमच्या जेवणांत हें जायच!
११) समानार्थी (उतर)
१२) देखरेख
१४) साल, चामडी
१६) मार्ग
१७) शिरकाव

| | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | ■ | ३ | ४ | | ५ |
| | ■ | ६ | ७ | ■ | | ■ | |
| | ■ | ८ | | ९ | | | ■ |
| १० | ११ | | ■ | | ■ | ■ | ■ |
| ■ | | ■ | १२ | | | | ■ |
| १३ | | | | ■ | ■ | ■ | १४ |
| ■ | | ■ | १५ | १६ | | १७ | |
| १८ | | | ■ | | ■ | १९ | |

**डिसेंबर उतरकुवाड्याची जाप**

| | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| कु | म | कु | मी | त | ■ | अ | ना |
| र | ■ | स | ■ | र | जा | ■ | य |
| कु | ल्ली | ■ | हां | त | र | प | टो |
| री | ■ | भा | य | री | ■ | क्ष | ■ |
| त | व | ना | स | ■ | आ | पा | र |
| ■ | स | म | ■ | आ | व | त | ■ |
| पा | व | ती | ■ | व | र | ■ | दे |
| पी | सो | ■ | कां | क | ण | खा | र |

एक हायली फिलॉसॉफिकल कॉलम...



# म्हज्यांतलो नार्सिसस

दत्ता नायकाच्या 'जाय काय जूय?' पुस्तकाचीं प्रुफां काडीत बशिल्लों. प्रुफां तपासपाचो फायदो म्हळ्यार पुस्तक वाचून जाता. नातर वाचतलों म्हूण पुस्तक हाडून दवरतां आनी मागीर तें वर्सभर वाचपच जायना.

तरी हांव हालीं मान्य करतां, पयलीं सारकें म्हजें वाचन जायच ना. 'बिम्ब' तयार करतासर वेळ कसो सरता तेंच कळना. तरी म्हजें वाचन कमी जालां अशें कशें म्हणप?

'बिम्ब' मासिकात जितलें साहित्य येता तें तर हांवच वाचतां. पयलीं संपादकीय सोपस्कार करतना आनी मागीर प्रुफां तपासतना. त्या भायर म्हयन्याक प्रकाशनाचें एक तरी पुस्तक येताच. तेंय अशें वाचप जाता. मागीर वाचन कमी जालां अशें हांवें कशें म्हणप?

पूण एक गजाल खरी. संपादकीय सोपस्कार करतना वा प्रुफां वाचतना पुरायेन लक्ष केंद्रीत जाता तें कामाचेर आनी मागीर आशय-विशयाच्या सौंदर्याची रूच तशी फाव तशी घेवंक मेळना. मनसोक्त पुस्तक वाचपाचें समादान मेळना.

तरी प्रुफां तपासतनाच वाचनाचोय आनंद घेवपाची एक कळाशी म्हजे भितर हांवें हालीं हालीं केळयल्या. हाका लागून संगणकाचेर बसून हेरांचें साहित्य हांव संपादीत करतां, प्रुफांय काडटां आनी वाचना खातीर म्हाका वेळूच मेळना हो जो शीण हांव म्हजेरूच काडटां तोय पयस करतां. अशे तरेन म्हजें वाचन नाय म्हळ्यार भरपूर जाता. कोंकणी जावं मागीर तें!

ही जाली कथेंत आड कथा! हातूंत आनीकय एक आडकथा आसा.

दत्ता नायकाचें 'जाय काय जूय?' हें पुस्तक बिम्ब प्रकाशनाचें आसलें तरी तें बिम्ब प्रकाशनाचें न्हय. तें दत्ता नायकान खंय तरी छापलें. छापूंक धाडटना ताका याद जाली की कोण तरी प्रकाशक जाय.

दत्ता नायक विचारवंत, दत्ता नायक लेखक, दत्ता नायक उद्योजक, दत्ता नायक आनिकूय खूप कितें कितें. तातूंत ताणें प्रकाशकूय जावं येतालें. पूण ताणें तो मोह टाळ्ळो आनी खुपशे प्रकाशक दोळ्यां मुखार हाडले जावंये! मागीर ताणें त्रासदायक पूण न पिडपी असो एका प्रकाशकाची म्हळ्यार म्हजी निवड केली जावये! दत्ता खातीर हांव 'लवेबल रास्कल'.

दत्ता नायकान आपूण जावन आपल्या ह्या अपत्याचें 'पोदोनपण' काय 'कुपारपण' म्हजेर थापले आनी हांवें पुस्तकांतल्यो खुपश्यो चुको नदरेआड करून तें आपणायलें. जेन्ना त्या पुस्तकाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळो तेन्ना तर हांवें दत्ता नायका परस चड मिरोवन घेतलें.

आतां मूळ विशयाचेर येतां. आतां 'जाय काय जूय?' ह्या साहित्य अकादेमीन पुरस्कार दिवन भोवमानीत केल्ल्या पुस्तकाचें हांव दुसरें संस्करण काडटां. तेंय कायदेशीर प्रकाशक ह्या नात्यान. ताचेंच हांव प्रूफ रिडींग करता आसतनाच वाचनय करतालों.

पयलीं हांवें पुस्तक वाचूंक नाशिल्लें. अडेचें प्रकाशकपण स्विकारलें तरी वाचूंक नाशिल्लें. साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळा म्हूण तरी कुतां काडूंक वाचपाचें. पूण ना. वाचिल्ले न्हय लेख पुर्वप्रसिध्दी जाल्ली तेन्ना हांगा थंय!

पूण आतां मात हांवें तें बारकायेन वाचून काडलें. 'दनपार' हो लेख वाचतना दत्ता नायकान म्हाका खूप वर्सांनी नार्सिससाची याद करून दिली. नार्सिसस भशेन दनपारचे तळयेंत आपलेंय रूप तोखेत बसचें. अशें एक विधान दत्ता नायकांत ह्या ललित निबंदांत केलां.

नार्सिसस, आपल्याच प्रतिबिम्बाच्या मोगांत पडून झरत झरत मरपी नार्सिसस! हेरांमदीं नार्सिसस आसा काय ना आनी आसल्यार कितले प्रमाणांत आसा हाची म्हाका कल्पना ना. पूण म्हजे भितर एक नार्सिसस आसा.

म्हाका न्हावन आयलो म्हणटकच व्हडल्या हारश्या मुखार नागडो रावन स्वताचेंच प्रतिबिम्ब पळोवपाक खूब आवडटा. पयलीं ऐन जुवानपणार हांव शरिर सौश्ठव म्हळ्यार बॉडी बिल्डिंग करतालों. बॉक्सिंगा वांगडाच बॉडी बिल्डिंग होय म्हजो छंद आशिल्लो. पणजेच्या मार्टल जिमांत वचून व्यायाम करप आनी हारशा मुखार रावून वेगवेगळ्यो पोजी काडून म्हजें घोटीव शरीर, वेगळे वेगळे कट्स तोखेवप हाचें म्हाका पिशेंच लागिल्लें. शरिर सौष्ठव सर्तींत प्रेक्षकांनी म्हजें शरीर कितलें तोखेलां तें खबर ना पूण म्हाका म्हजेंच तें प्रतिबिम्ब खूप आवडटालें.

आतां तें शरिर सौष्ठव ना तरीय हांव हारशामुखार रावतां. म्हाका नियाळटां. पिराय सरता तशें शरिराचें चैतन्य वचून स्नायू सदळ जातात म्हणपाचें नदरेक भरता. जाण्टेपण जशें जशें येतलें तशें आंग लिबलिबीत जायत वतलें हाची न्हय म्हळ्यार हय न्हय शी भिरांत मनाच्या कोनशाक आसाच. तरी हांव संपूर्ण नग्न रूपांत म्हजे म्हाकाच दर दिसा नियाळटां. म्हज्या प्रतिबिम्बांतलें तें एकसंघ नागडेपण तोखेतां. नार्सिसस जावन!

म्हज्यांत हो नार्सिसस भुरगेपणा सावन आशिल्लो. भुरगेपणार म्हजेंच प्रतिबिम्ब पळोवंक हारसो खंयचो? आवयकडेन हारशेचो एक कुडको आशिल्लो. तो तिणें वण्टीक दसयल्लो. कपलाक कुकूम लावपा खातीर तिचो वापर ती करताली. ते हारशे कुडक्यांत केन्नाय हांव म्हजें प्रतिबिम्ब पळयतालों. पूण मनसोक्त पळोवंक मेळनाशिल्लें.

मागीर व्हडल्या भावाचें लग्न जालें. भाभी येतना एक पेट्रूल घेवन आयली. त्या पेटलाचें धाकण उगडलें काय त्या धाकण्याच्या भितल्ले वटेन एक पुस्तकायेद्या आकाराचो हारसो. हांवें पळयल्लो पूर्ण आकाराचो पयलो हारसो. पूण त्या हारशाचो उपभोग घेवंक म्हज्यांतल्या नार्सिससाक मेळनाशिल्लो.

म्हज्यांतलो नार्सिसस आपल्या प्रतिबिम्बाक तोखेतालो तो बांयत. गायेक शेतांत चरूंक सोडून हांव बांयचे धडेर बसतालों. बांयच्या शांत शितळ उदकांत आसतालें बॅकग्रावंडाक मळब आनी म्हजें प्रतिबिम्ब. हांव म्हजें रूप तोखेत बसतालों. आत्मप्रेमच आशिल्लें तें!

मागीर बांयचें उदक व्हरपाक आमचें शेजारचें चली येतालें. दाजवाक कळसुली बांदून तें ती बांयत सोडटाली. कळसुली उदकाक तेंकसर त्या बांयच्या कॅनवासाचेर तें चली आनी हांव जोडप्यान. मागीर कळसुली उदकाक तेंकली की म्हजें प्रतिबिम्ब खंडीत जातालें. म्हाका हें म्हजें खंडीत प्रतिबिम्ब तेन्नाय आवडनाशिल्लें आनी आतांय आवडना. म्हाका आवडटा पूर्ण आकाराच्या हारशा मुखार रावन तोखेवपाक. अखंड नग्न रूप.

फार्टी इंदूराक गेल्लों तेन्ना थंयच्यो हारशेम्हाल पळोवंक गेल्लों. एका हारशा मुखार रावल्यार सगळे कडेन कितल्योशोच प्रतिमा. शेकड्यानी, हजारांनी. तेन्नाय म्हजे तकलेंत विचार आयलो. जर हांव घराकडेन हारशामुखार संपूर्ण नागडो रावतां तसो हांगा रावलों जाल्यार म्हजें हें खंडीत नागडेपण म्हाका आवडटलें काय? म्हज्यांतलो नार्सिसस सुखावतालो काय? मनशाक आपलें नागडेपण, आपलो ओपननेस पासून कितलो अखंडीत जाय पडटा!



*जल्म तारीख :* १७ सप्टेंबर १९५८.

*जल्म गांव :* कारवार.

*आवडिचें स्थळ :* गोंय.

*जिविताचेर प्रभाव घाल्पी व्यक्ती :*

आवय.
सर्गेस्त सौ. जानकी कदम.

*आवडिचे कलाकार आनी तांची कलाकृती :*

गुरुदेव रविन्द्रनाथ टागोर
गीतांजली.

*जिणेचें तत्वगिन्यान आनी ताचो कलेचेर प्रभाव :*

मनीस प्राण्याक मनशाभाशेन जगपासल्ली दुसरी खोस ना.

*पुराय नामो :*

१७०२, डी-९९, दुसरो माळो, मंगलवन कॉम्प्लॅक्स,
चावडी, काणकोण, गोंय - ४०३७०२.

*हस्ताक्षर :*

देविदास कदम
२६-१२-०७.



देविदास रामचंद्र कदम

**कारवारच्या सिमा वाठारांत जल्मल्ल्या देविदास कदमान फाटलीं वीस वर्सां कोंकणींतल्यान साहित्य निर्मिती करून कोंकणी भाशेची सेवा केल्ली आसा. ते सेवेचें चीज साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळिल्ल्यान जालां. नागफोंड - सदाशीवगड, कारवार हांगा १९५८ वर्सा शेतकार घराब्यांत जल्मल्ल्या कदम हाका ४१ वर्सा हो मानाचो सन्मान फावो जाला. कांदळां हो ताचो पयलो कथा संग्रह. ताका कोंकणी भाशा मंडळ आनी डॉ. टी. एम्. पै. फाऊंडेशनाचो साहित्य पुरस्कार फावो जाला. ताचे एड्स हे कथेक सरस्वती मंदिर पणजी हाचो पुरस्कार निर्णय हे कथेक राष्ट्रमत दिवाळी अंक पुरस्कार,कला अकादमीचो साहित्य पुरस्कार आनी आतां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार अशे साबार पुरस्कार ताका फावो जाल्यात. गांवल हे कादंबरेंत ग्रामीण रितीरिवाज चितारल्यात जाल्यार कोऽहम? ह्या कविता संग्रहांत अध्यात्मिकताय दिसता. ताणें मराठी हौशी रंगभुंयेर वेगवेगळ्या नाटकांनी भुमिका केल्यात.**

POSTAL LICENSE NO: GR/RNP/GOA/01/2006-08





Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, GSB-3, Housing Board Colony, Porvorim-Goa & Printed at Sahyadri Offset Systems, Khorlim, Goa. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2411594, E-mail: bimbkonkani@yahoo.com.in